

# ११ वें
# अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन

कोंकणी भाशा आनी सांस्कृतिक केंद्र, कारवार आयोजित

माधव मंजुनाथ शानभाग नगर, कारवार ८-९ फेब्रुवारी १९९२




# यादस्तिक

कोंकणी भाशा आनी सांस्कृतिक केंद्र, कारवार अयोजित

## ११ वे अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन, कारवार, कर्नाटक

८-९ फेब्रुवरी १९९२

माधव मंजुनाथ शानभाग नगर, (नगरपालिका टागोर रंगमंदीर) कारवार

संपादक – दीपक गांवकर

छापणावळ – सागरदीप प्रिंटिंग प्रेस्, कारवार.



# आमची उतरां -

कोंकणी भाशा आनी सांस्कृतिक केंद्र, कारवार आपल्या यजमानकी खाला ११ वे अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन कारवारात माधव मंजुनाथ शानभाग नगरात घडोवन हाडत आसा. फकत अडेच वर्सां फाटी सुरु जाल्या ह्या केंद्रान इतली व्हड जबावदारी घेवन संमेलन घडवचे कठीन काम. पूण संमेलना-च्या वावुरप्यानी दीस रात वावरुन उण्यात उण्या ५० दिसांच्या काळात मुंबयसावन कोंचीनमेरेन दरेक गांवानी भेटी दिवन त्या त्या गांवच्या लोकांक संमेलनात सहभागी केले. कार्यात जाय ते आडमेळे आयले, हाडयले पूण-कोंकणी सरस्वतीची रथ-यात्रा खंयच थांबली ना ती चलत रावली जैताच्या मार्गार.

१९६८ वर्सा जूनाच्या २३ तारकेक पयली कोंकणी लेखक परिशद मडगांव, गोंय हांगा भरली. फुडे दर दोन वर्सानी भरत आशिल्ली १० संमेलनां गोंयातच, कोंकणी भाशा मंडळ घडोवन हाडताले. आतां गोंयाभायर हे पयलेच पावटी भरचे संमेलन खूबशा कारणांनी इतिहासिक ठरतले.

ह्या संमेलनाचे उक्तावण पयलेच पावटी ज्ञानपीठ पुरस्कार प्राप्त साहितिकान दिवली परजळून केले.

सर्गेस्त माधवबाबालो म्हालगडो पूत श्री मंजुनाथ शानभाग, पयल्या परिशदेनंतर पयलेच पावटी कोंकणीच्या कार्यात आयलो.

पयलेच खेप हुबळी, धारवाड, बेळगांव, सोलापूर, कोल्हापूर, सावंतवाडी, सुवा भागातल्यान संमेलनाक प्रतिनिधी हाजर आशिल्ले. तशेंच केरळ, कर्नाटक, गोंय आनी महाराष्ट्रतल्या साहितिकानी आनी नामनेच्या सांस्कृतिक पंगडानी संमेलनात सक्रीय भाग घेतलो.

पयलेच खेप महाराष्ट्र राज्याचे मुखेल मंत्री भौममानेस्त श्री सुधाकरराव नाईक हाणीं आपलो शुभसंदेश संमेलनाक धाडलो. तशेच मुंबयत चर्चगेट रेल्वे स्टेशना फुडें ह्या संमेलनाक येवकार दिवपी साईन–व्ही–फाईन ह्या जाहिरात कंपनीन लायिल्लो २० फूट x २० फूट आकाराचो होर्डींग बोर्ड मुंबयकाराक एक आकर्षण जालो.

पयलेच पावटी केरळसावन मुंबयमेरेनच्या कोंकणी मोग्यानी आनी हेरानी व्हड प्रमाणात जाहिरातो देणगी दिल्यो तशेंच म्हत्वाचे म्हळचार श्री आशिश गांवकर ह्या कारवारच्या तरनाट्या इंजिनियरान एकट्यानच १ लाख रुपयावयर दुडु फक्त १२ दिसात जमोवन संमेलनाक होड तेको दिल्लो.

निमाणे हे संमेलन खंयच्याय म्हालगडचा व्यक्तिक घेवन ताच्या आधारान जाले ना तर दर एक सामान्य वावुरप्यान कष्टान ते घडोवन हाडले.

कोंकणी आनी तिच्या भक्तांची वाट दर पेण्यार आडे मेळ काडीत भारतीय संविधानाच्या ८ व्या वळेरीत येवन बसची वाट पळैत आसा. सर्गेस्त शेणै गोंयबाब सर्गेस्त माधवबाब शानभागाच्या कर्तुबाची वाट आयचे कोंकणी भक्त, संसारात तिका मान्यता मेळवन दितले हातूत दुबाव ना. जाता तितल्या बेगिन तिचे पूत ज्ञानपीठ आनी नोबेल कारांच्या पंक्तीत बसतले अशी आस बाळगून निमाणे –

ज्या ज्या इष्टानी मोग्यानी वावुरप्यानी ह्या कार्याक तेको दिलो तांचे सगळ्याचे उपकार मानून हें सरस्वतीसुमन, तुमच्या हातात ओपता.

तुमचोच
**दीपक गांवकर**
प्रधान कार्यदर्शी आनी यादस्तिक संपादक



# ' माधव मंजुनाथ शानभाग नगर '

श्री. माधव मंजुनाथ शानभाग हांचो जन्म १८८७ वर्सा सप्टेंबराक हेरवट्टा, कुमठा हांगा एक मध्यमवर्गीय घरांण्यात जालो. भुरगेपणांतच बापूय भायर पडिल्यान तांचो आनी तांच्या विधवा आवयचो सांभाळ गोकर्णांत तांचो मावळो संतप्पा पै हाणी केलो. तांका मांवळ्यान बरें शिक्षणय दिलें.

श्री शानभाग गवर्नमेंट हायस्कूल, कारवार हांगाच्यान मेट्रीक पास् जाले. उपरांत ते पुण्यात गेले आनी पुण्यांतलें नामनेच्या फर्ग्युसन् कालेजींतल्यान ते बी. ए. जाले. तांचे मुखावेल्या शिक्षणाक तांचे एक आप्त कोडिबागचे श्री श्रीनिवास भुजले हांणी तांका आश्रय दिलो.

पदवीधर जाले उपरांत ते नामनेचे इतिहास संशोधक आर् जी भंडारकर हांच्या सहवासात आयले. त्यांच्या व्यक्तीमत्वान, ते इतले प्रभावित जाले की आपलें फुडलें शिकप सोडून भांडार–कारांचे मदतनीस म्हण काम करुक लागले.

उपरांत गांधीच्या सत्याग्रही विचारसरणीच्या प्रभावांत येतकीर ते आपलो जल्मगांव कुमठा हांगा परत आयले आनी तांणी कुमठ्या गिब्ब हायस्कुलांत शिक्षकाची नोकरी धरली. पूण आपले तत्वनिश्ठेवांगडा कसलीच तडजोड करूंक ते तयार नाशिल्ल्यान तांचें आनी हायस्कुलाच्या व्यवस्थापनाचें पटना जालें. ती नोकरी एक दीस सोडून ते थंयच्यान भायर सरले. उपरांत तांणी एम् ए. आनी एल्. एल्. बी. करून आपलें शिकप पूराय केलें. मागीर कारवारांत तांणी वकीली सुरु केली.

आसपाव करचो. राजभास कायदो चालिक लावचो. शैक्षणिक धोरण तयार करचें मायभाशेत पूर्व-प्राथमिक आणि प्राथमिक शिक्षण गोंयात सुरु करचें. दूरदर्शन आनो आकाशवाणी गोंय राज्याक टी. वी. स्टुडिओ वेगोवेग दिवचो. आनी कोंकणी भाषिक लोक गोंय तशेंच महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ ह्या राज्यांनी पातळ्ळयात. ह्या लोकांपासत आकाशवाणिचेर राष्ट्रीय वृत्तविभागाचो आसपाव करचो. राज्यभाशेच्या आंदोलनांतल्या वावुरप्यांचर घातल्यो केसो फाटीं घेवच्यो. गोंय राज्य आनी सांस्कृती मंडळ स्थापन करचें. सिनेमा विकास महामंडळ स्थापन करचें. गोंय ग्रंथालय विधेयकावरवो कोंकणो पुस्तकां, प्रकाशक, वाचनालयां हांकां सरकारो पालव मेळपाचो खाशेलो तरतूद करचो. संवसारभर पातळिल्ल्या गोंयकारांचें संमेलन घडोवन हाडचे. कर्नाटकांत कोंकणी साहित्य अकादमी स्थापची आदींचो आस्पाव आशिल्लो.

कोंकणो साहित्य संमेलनां ही कोंकणीच्या साहित्यीक, भाशीक तशेंच सांस्कृतीक मळावयालो एक अप्रुप असो विधायक वावर. ह्या संमेलना वरवीं देशांतल्या वेगवेगळ्या भागांत रावन कोंकणी भाशेंतल्यान साहित्याचीं साधना करतल्याक एकठांय येवन साहित्योक तशेच दर संबधीत विशयाचेर विचारांचे आदान – प्रदान करपाचो संद मेळटा. कोंकणो समाज, भाशीक आनी सांस्कृतीक नदरेन अधीक संघटीत जावपाचे नदरेन जो वावर जाता, तातूंत साहित्य संमेलनाच्या वावराक एक महत्त्वाची सुवात आसा. ●

**CHIEF MINISTER**




**MAHARASHTRA**

Mantralaya, Bombay 400 032
Date : 5-2-92

MESSAGE

I send my best wishes for the success of the XIth All India Konkani Literary Conference being held at Karwar, for the first time out of Goa. This alone emphasises the fact that Konkani has grown beyond the borders of Goa and that it is now an important language spoken and known in Karnataka, Kerala and Maharashtra.

I am sure that like the earlier annual sessions the Karwar conference also will be a successful and useful one in promoting the language and its attainments.

(Sudhakarrao Naik)

S. RAMESH
MINISTER OF STATE FOR
YOUTH SERVICES, SPORTS
KANNADA AND CULTURE



VIDHANA SOUDHA, BANGALORE.1

DATED 4, 2. 1992

# MESSAGE

It gives me immense pleasure to note that XI All India Konkani Literary Conference will be held at Karwar on 8th February 1992.

I am glad to know that to Commemorate this occasion, a Souvenir is being brought out.

I send my best wishes for the success.

sd.
(S. RAMESH)

Sri A. K. Gaonkar,
XI All India Konkani Sahitya
Sammelan, Reception Committee,
548, Azad Maidan Road,
KARWAR-581301.

# ११ व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाची कार्यावळ

## माधव मंजुनाथ शानभाग नगर, कारवार

---

शनवार ८-२-१९९२ दनपारा २-३० वरांचेर – संमेलना अध्यक्षासयत मिरवणूक

कोंकणी अकादमीच्या प्रदर्शनाचे उक्तावण – श्री मंजुनाथ माधव शानभाग

स्वागत गीत – विवेकानंद विद्यालय विद्यार्थी, कोडिबाग

येवकार अध्यक्षाचे भाषण – श्रीमती आशा प्रकाश पालनकर

मानेस्तांक फुला भेटवण

मानेस्तालो ओळख – श्री यशवंत पालेकर

कार्या-कार्याध्यक्षाले उलोवप – प्रो. पुरुषोत्तम देसाई

संमेलनाचे उक्तावण आनी भाषण – डॉ. शिवराम कारंत

संदेश वाचन

कर्नाटक कोंकणी अकादमीबद्दल उलोवप – पॉल मोरास

पुस्तकांचेर आनी यादस्तीकेचे उक्तावण

मुखेले सोयऱ्याचे भाषण – श्री ब्लेशियस डिसोजा (कानूनमंत्री कार्नाटक राज्य)

परिशदेच्या अध्यक्षाले भाषण – श्री आर. के. राव

सत्कार सुवाळो – श्रीमानेस्त,

| | |
|---|---|
| श्रीमती मोना काकोडकर, मडगांव | श्री आर. के. राव, कोचीन |
| श्री विल्फी-रे-बिबस, मंगळूर | श्री बी. व्हो. बाळिगा, मंगळूर |
| श्री जे. बी. मिकॅरा, मुंबय | श्री महाबळेश्वर सैल, कारवार |
| श्री शशांक शिरोडकर, गोंय | श्री वसंत भगवंत सावंत, गोंय |
| श्री आर. रामनाथ, गोंय | श्री निलबा खांडेकर गोंय |
| प्रो. व्हो. के. नायक, कारवार | श्री विष्णु सावंत, कारवार |
| श्री नारायण गावकार, कारवार | श्री लक्ष्मण बेळूरकर, कारवार |

सम्मेलनाचे अध्यक्ष – श्री एडविन डिसोझा हांचे भाषण

उपकार – प्रो. लॅन्सलॉट आंद्रादे.

सांजे ७-३० क आमंत्रित कविंचे काव्य वाचन
अध्यक्ष, दत्ता दामोदर नायक, गोंय

राती ९-३० क सांस्कृतिक, कार्यावळ

१) 'अरूप' गोंय – गायनाचो कार्यावळ

२) 'घोटाळो' कारवारच्या कलाकारांचो एकांकिका

३) 'शबै शबै बहुजन समाज' – नाटक

---

आयतार : ता. ९ फेब्रवारी १९९२

| | | |
|---|---|---|
| सकाळी ८-०० क | प्रतिनिधींचो मेळावो | |
| ९-०० क | परिसंवाद | कोंकणी साहित्य आयच्या पेण्यार<br>अध्यक्ष : श्री महाबळेश्वर सैल<br>सूत्रसंचलन : श्रीमती अनुसुया मजली कसबेकर |
| ११-०० क | ,, | कोंकणी चळवळीचो हावेस<br>अध्यक्ष : श्री तानाजी हळर्णकर<br>सूत्र संचलन : श्रीमती वीणा नायक |
| दनपारा २-३० क | ,, | कोंकणीच्या उदरगतीक कोंकणी संस्थांचो हातभार आनी कोंकणी भाशेची ताक<br>अध्यक्ष : प्रो. विल्यम माडता<br>सूत्र संचालक : श्री दीपक गांवकर |
| ४-०० क | ,, | कोंकणी साहित्याच्या उदरगतीक तरनाटयाचो वाटो<br>अध्यक्ष : श्री प्रशांत नायक<br>सूत्र संचालक : श्रीमती शैला बाडकर |
| सांजेर ५-३० क | उक्ती वसका | |
| | येवकार गीत | – श्री पी. जी. नायक आनी सांगाती |
| | आरंभाची उतरा | – श्रीमती आशा पालनकर – स्वागताध्यक्ष |
| | वेगवेगळ्या केंद्रातल्या प्रतिनिधींची उलोवपा | |
| | ठराव मंडप | – व्ही. व्ही. शेणोय, बेळगांव |
| | सोयऱ्यांचो परिचय | – श्री नागेश करमली |
| | मुखेल सोयऱ्यांचे उलोवप | श्री संजय बांदेकर<br>खेळामंत्री, गोंय राज्य<br>पद्मश्री वामनराय सरदेसाय<br>आंगोलनातले भारताचे माजी राष्ट्रदूत |
| | संमेलन अध्यक्ष | श्री एडविन् जे. एफ. डिसोजा हाची समारोपाची उतरां |
| | उपकार | – श्री आशीश गांवकर |
| सांजेर ७-०० क | कविता वाचन | – अध्यक्ष : श्री रमेश वेळूस्कर |
| ८-०० क | सांस्कृतिक कार्यावळ | १) नाटक – लग्नाचे पिशें, त्रिवेणी कलासंगम, गोंय<br>२) ' मांड सोभाण ' मंगळूर – गीतांची कार्यावळ |

# अ.भा. कोंकणी साहित्य संमेलन

## फाटलीं धा संमेलना : एक नदर

| | | |
|---|---|---|
| पयले संमेलन | २३ जून १९६८,<br>श्री दामोदर विद्याभुवन<br>मडगांव गोंय | येवकार अध्यक्ष : श्री बाकीबाब बोरकर<br>अध्यक्ष : श्री· लक्ष्मणराव सरदेसाय |
| दुसरे संमेलन | १५–१६ नवंबर १९६९,<br>ख्रिस्तारेय समाघर<br>सांतिनेज, पणजी गोंय | येवकार अध्यक्ष : फा. मोरेन डि सोजा<br>अध्यक्ष : श्री· रवींद्र केळेकार<br>उद्घाटक : श्री. गोयाळ आपा कामत |
| तिसरें संमेलन | १५–१६ फेब्रुवरी १९७५,<br>श्री दामोधर विद्याभुवन<br>मडगांव–गोंय | येवकार अध्यक्ष : श्री· एवाग्रियु जॉर्ज<br>अध्यय : श्री· अुदय भेंब्रो<br>उद्घाटक : श्री· देवराय बेंदुर |
| चवथें संमेलन | ७-८ मे १९७७,<br>भोसियोर दालगादुनगर<br>म्हापशें-गोंय | येवकार अध्यक्ष : श्री· पां. पु. शिरोडकार<br>अध्यक्ष : फा. आन्तोनिया पेरेर<br>उद्घाटक : श्री. डॉ. नामवर सिंग |
| पांचवें संमेलन | २-३-४ मार्च १९७९,<br>गोमंत विद्या निकेतन समाघर<br>मडगांव–गोंय | येवकार अध्यक्ष : श्री· फेलिसियु कार्दोज<br>अध्यक्ष : श्री. श्रीपाद रघुनाथ देसाय<br>उद्घाटक : श्री· भवानीप्रसाद मिश्र |
| सवें संमेलन | १४-१५ फेब्रुवरी १९८१,<br>माधव मंजुनाथ शानभागनगर<br>काणकोण–गोंय | येवकार अध्यक्ष : फा· आल्वार रेनात मेंदीश<br>अध्यक्ष : श्री. शांताराम हेदो<br>उद्घाटक : श्री. माधव विठ्ठल कामत |
| सातवें संमेलन | १९-२० फेब्रुवरी १९८३,<br>कृष्णदास शामानगर<br>सावडें-कुडचडे-गोंय | येवकार अध्यक्ष : श्री. नागेश करमली<br>अध्यक्ष : स्वामी सुप्रीय (फा.सी.सी.ए.पैं)<br>उद्घाटक : श्रीमती मर्गारेट आल्वा |
| आठवें संमेलन | ११-१२ मे १९८५,<br>दादा वैद्यनगर<br>रामनाथीं (फोंडें) गोंय | येवकार अध्यक्ष : श्री· एन्· शिवदास<br>अध्यक्ष : श्री· दामोदर मावजो<br>उद्घाटक : श्री· रामानंद सागर |
| णवें संमेलन | १६-१७ मे १९८७,<br>शेणै गोंयबाब नगर,<br>साकळी-गोंय | येवकार अध्यक्ष : प्रा. अरुण साखरदांडे<br>अध्यक्ष : श्री. चा. फ्रा. द. कोश्ता<br>उद्घाटक : प्रा. एम्· तोंबीसिंग |
| धावें संमेलन | १७–१८ फेब्रुवरी १९९०,<br>मुरारबा पेडणेकर नगर<br>पेडणे – गोंय | येवकार अध्यक्ष : सौ· कमल पार्सेकार<br>अध्यक्ष : श्री· गुरुनाथ केळेकार<br>उद्घाटक : फा· अन्तोनियु पेरैरा |

इकरावें
अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन
जैतिवत जावं

– " विद्या भुवन " के.जी. आनी मुळावी शाळा चलोवन
– शाळेचीं पुस्तकां उजवाडावन
– 'शिक्षक सनद' कोर्स चलोवन
– साहित्याचो प्रसार करुन
आनी भास, साहित्य संस्कृताय ह्या मळांचेर
साबार तरांच्यो कार्यावळी घडोवन हाडून
कोंकणीचे उदरगतींत आपणालो वांटो उखलपी

# कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय

४९–बी, इराज्मु कार्व्हाल्यु मार्ग,

मडगांव, गोंय–४०३ ६०१
फोन:२२३३१



# श्रीमती आशा पी. पालनकर

## स्वागताध्यक्षा

काळी न्हयच्या कुशीन कडवाड गांवच्या शोभितकाय वातावरणात भुरगे पणाचे दीस घातिल्या देखून सदा सैमिचे मोग. स्नातकोत्तर विज्ञान पदवीधर आनी डी. फार्म. पदवीध, कांही काळ प्रांध्यापिका म्हणून कॉलेजात कार्य केला. भुरगे पणा पासून आवय भाशेची अफाट गोडी देखून तिच्या उदरगती खातीर मनात सदाच हुर हुरो आसलो. मनापासून आवडीलो घरकार आनी तागेली ही मेकळचामनाचो सहकार मेळिल्यान काळजा कोनश्यात लिपून बशिली आस्त पूर्ण करच्याक उत्सुकता वाडली. ग्रहिणीले काम बजावून आवय भाशेच्या सेवेक वेळ दिवच्या खातीर कोंकणी भाशा आनी सांस्कृती केंद्र कारवारची आजबी सदस्या जावन काम करच्या लागले. आवय भाशेक मानचे स्थान मेळच्याक सतत प्रयत्नशील रावची आस्त आसा.



# प्रो, पुरुषोत्तम वी. देसाय

**कार्याध्यक्ष अ. भा. कों. सा. स. कारवार.**

कारवारच्या सोबीत सेमिच्या परिसरात जन्म देकून भुरगेपणा पासून सेमा कडेन हांची ओड जास्त आसा. गुरुपरंपरेच्या वातावरणात आनी आजेच्या मार्ग–दर्शनाखाला वाडिल्ले देवून आध्यात्माची गोडी. गेल्या दोन दशका लागून समाज सेवेत वावुरतात. विश्व हिंदू परिषदेखाला जिल्ला थरार खूबशे सामाजिक आनी सांस्कृतिक कार्यावळ घडोन हाडच्याक मोठो वाटो हांचो आसा. कोंकणी भाषा आनी सांस्कृतीक केंद्र, कारवार ह्या संस्थेचे पयले अध्यक्ष तशेच अखिल भारतीय कोंकणी परिषदेचे कारवारचे वांगडी ( कार्यकारी सदस्य ) कारवारच्या सरकारी महाविद्यालयात हिन्दीचे प्राध्यापक जावन आसात.

हांची काणयो, कवना " सुनापरान्त " आनी " सरस्वती प्रभा " ह्या कोंकणी मासीक आनी दैनिकात प्रगट जाल्यात. धारवाड रेडियो केंद्रार हांच्या कवनांचे वाचन जाल्या. हांच्या काव्यांत सामाजिक आनी नैतिक उद्देश्यान भरिलो सूर ऐकू येता. उक्ते जनेळरे " म्हणूनच फामाद आसात. विंगड – विंगड सरकारी योजने आनी समस्ये लागून निर्शेल्या कारवारच्या तरणाट्या मदी नवचैतन्य भरची, कायाकल्प करची होड आशा बाळगिलात आनी कार्यरत आसात. भुरगेपणात सामाजिक छळाचो घाव अजुनी फेकिलो नादेकून तांच्या सूरात विद्रोही भावना केन्ना केन्ना दिसून येता. हांच्या उतरात आंग्ल कवि टेनिसनाल्या " The mighty hopes that make us man" ह्या मताचो आभास दिसून येता.

# – संमेलनाचे उद्‌घाटक –

## " ज्ञानपीठ पुरस्कार विजेता डॉ. शिवराम कारंत "

कन्नड साहित्य संसाराचो अजरामर व्यक्ति तशेंच एक महान विद्यासंस्था असे वैशिष्टय पूर्ण व्यक्तित्वाचे श्री शिवराम कारंत अश्रावे अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचे उद्‌घाटक म्हणून प्राप्त जाले. ते महान कथाकार, कादंबरीकार, नाटककार, कवि, यक्षगानपटु, बालसाहित्यकार, आनी प्रबंधकार आसात. ताणीं आजमेरेन कन्नड भाशेंत ४४ कादंबरी, १६ नाटका, तीन कथा - संकलना, ६ प्रवास साहित्य, १२ वैज्ञानिक ग्रंथ असे अनेक मौलिक साहित्य रचल्यात.

१९६२ क कर्नाटक आनी मैसूर विश्वविद्यालयान तांका डि. लिट् पदवीचो मान दिवन सत्कार केला. सरकारान पद्मभूषण प्रशस्ती दिवन तांका सम्मानित केला हांच्या " मूकज्जीय कनसुगळु " ह्या कृतीक ज्ञानपीठ पुरस्कार प्राप्त जाला. तांगेल्या साहित्य रचनेंत असाधारण कर्तत्व शक्तिचे दर्शन घडता.

ऋषितुल्य, बहुमुखी प्रतिभावन डॉ. शिवराम कारंतालो जन्म १० अक्टोबर १९०२ क दक्षिण–कन्नड जिल्ह्यातल्या कोटां गावात जाला. हांचो बापूय श्री शेष कारंत आनी आवय श्रीमती लक्ष्मी. ज्ञानवृद्ध डॉ. कारंत साहित्याच्या प्रत्येक क्षेत्रात अलौकिक कार्य करत आसात. समस्त लोकांक अजुनी महान उत्कृष्ट कृतिची देणगी दिवची शक्ती परमातमा दया करू अशी आशा करया.



# ११ व्या कोंकणी साहित्य संमेलनाचे अध्यक्ष

# एडविन् जे. एफ, डिसोज

एडविन जोसफ फ्रान्सिस डिसौज हे आज कोंकणी साहित्यातले लोकांच्या मोगाचे जावन आसा. आपल्या स्वकर्तुबीन जीवनाचो आदर्श साधून आपले आनी आपल्या भोवतणीचे वातावरण साहित्यात हाडून ताचे दर्शन लोकांच्या फुडे दवरचे काम ताणी समर्थपणान केल्ले आसा.

कोंकणीत पंचवीस कादंबऱ्या बरोवन त्यो प्रकाशित जावचे-तेंय देशाच्याभायर आसतना ह्या एकाच कारणान तांच्या लेखणीची आनी लोकाच्या मोगाची जाणीव येता. श्रीमती आयन रँड ह्या जगप्रसिद्ध इंग्लीश कादंबरी कर्तीचो मोगी जावन आशिल्लो एडविनबाब 'फाऊंटन हेज' ह्या आपल्या निवास्थानात येवन आपल्या आयुश्यात आपल्या कुवेयतल्या निमाणेच्या दिसांचो परते येता आसतानां जाल्या भिरांकुळीचे चित्रण आपल्या पंचविसाव्या 'मुय आनी रगोत' ह्या कादंबरीचे लेखन करीत आसा.

एडविनाचो जन्म जून १९४८ वर्सा वालोन्सिया ह्या मंगळूरलागी आशिल्या गांवात श्री मार्टिन आनी श्रीमती स्टेला डिसौजा हांच्या घरां जालो. तांचे शिक्षण मंगळूरच्या सेंट अलोयस कॉलेज आनी बेंगळूरच्या R V. तंत्रविज्ञान महाविद्यालयात जालो. कुवेटच्या राष्ट्रीय पेट्रोलियम कंपनीत ताणी विषेश अभ्यास तांत्रिक विषयाचेर केलो. पेट्रोलियम रिफायनरी वस्तूचेर तांणी प्राविण्य संपादन केल्या.

फाटली १८ वर्सा ताणी कुवेटात तेला कंपनीत तंत्रज्ञ म्हण काम केल्या. कुवेटाचेर सद्दाम हुसेनान आपले सैन्य धाडल्यानंतर जे लाखानी लोक कुवेट सोडून भायर पडले तांतूत एडविनाचे कुटुंबय एक आशिल्ले. तांच्या बरोबर तांची बायल जेन आनी चली रुथ दोगूय निर्वासितांच्या छावणीत दीस काडून आयल्यात.

तांचो साहित्य प्रवास ताणी आयुश्याच्या सानपणापासून सुरु केल्या. आपल्या वयाच्या इक्राव्या वर्सा पाचव्या क्लासीत आसतनां ताणी शाळेच्या वर्मुकी यादस्तिकेत आपले लेखन केला. आनी ताच्या नंतर ताणी फाटी पळयले ना. वयाच्या सोळाव्या वर्सा १९६४ इसवीत मुंबयच्या 'पोयनारी' ह्या मुंबयच्या नामनेच्या साप्ताहिकात तांची लघुकथा उजवाडाक आयली. १९६७ वर्सा तांची पयली कादंबरी 'निमाणी खेळी' प्रसिद्ध जाली. ताच्यो दोन आवृत्यो जाल्यात.

१९६८ वर्सा पयली रहस्यमय कादंबरी – 'पिलाथान दिल्ले फर्मान' प्रसिद्ध जाली ताचे दोन पावटी पुर्नमुद्रण जाल्या. १९७४ सालात 'ते आयलात' ही कादंबरी शास्त्रीय कथानकाचेर बरयली. ताचेय पुर्नमुद्रण जाल्या. 'हांव जियेता' तत्वज्ञाना आधाराचेर बरयल्या कादंबरीक गोंयच्या कोंकणो भाशा मंडळाचे बक्षीस मेळल्या. तशेंच लुयीश मास्करनीस अवार्डय ताका फाव जाल्या. '२१५ दारुवावाला इस्टेट' ह्या १९७७ त प्रसिद्ध जाल्या कादं–रीचो बेंगळूरच्या ज्ञान प्रकाशन संस्थेत १९८८ वर्सा कानडीत प्रकाशन केल्या. कन्नडाचे ख्यात साहिती डॉ चंद्रशेखर कंभार हाणी ताची प्रस्तावना बरयल्या. ग्रीक देशाच्या पार्श्वभूमिचेर 'खोरियातलो जुडास' ही कादंबरी बरयला. हाच्याशिवाय कॉफी प्लँटेशनाचेर 'जोवली वज्रां,' विद्यार्थी जीवनाचेर 'खुर्सा फाटलो उजवाड' मानवी जीवनमुल्याचेर आधारित प्रेमकथेचेर 'माझ्या वडथलातले गुलाब' मंगळूरच्या खानदानी जीणेचेर आनी आखाती देशातल्या मंगळूरकारांचेर 'विचून काडिल्ली प्रजा' ह्या कादंबरीचे लेखन जाल्या.

कुवेटच्या 'कुवेट टाईम्स' ह्या इंग्लीश दिसाळ्यात, तशेंच 'डेक्कन हेराल्ड' ह्या बंगळूरच्या दिसाळ्यात तांच्यो इंग्लीश कविता, कथा प्रसिद्ध जाल्यात.

हालींच मंगळूरच्या 'राखणो' ह्या कोंकणीतल्या प्रतिष्ठित साप्ताहिकान तांचो विंगड विंगड विषयाचेर २५ कादंबऱ्यो बरोवन कोंकणी साहित्याची सेवा केल्याबद्दल विषेश सन्मान केल्या. आता आपले फुडले आयुश्य ताणी कोंकणीच्या कामाकच उपयोग करचो निश्चेव केल्या.

कोंकणीचो ८ व्या वळेरीत समावेश, कर्नाटकात कोंकणी अकादमी, मंगळूर विद्यापीठात कोंकणी विभाग उघडचे ह्या महत्वाच्या कोंकणी चळवळीत आपले कार्य हेरांच्या बरोबर करचो ताणी निर्णय घेतल्या. तशेंच तांच्या अध्यक्षीय भाशणांत तांच्या विचारसरणीचो पूर्ण आलेखात्मक परिचय आसाच !

# अ. भा. कोंकणी साहित्य संमेलन

## फाटली धा संमेलना– एक नियाळ

## सुर्वेच्या काळांतलीं चार संमेलनां

अेकापरस अदीक राज्यांनी विखंड जावन पडिल्ल्या कोंकणीं समाजाक, भाशेच्या सुत्रान सांस्कृतीक मळार अेकठांय जोडपाचें काम अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेच्या आसऱ्याखाला जातालें. हे परिशदेच्या वावराचो आस्पाव आनो मोख, कोंकणी मुखावयले तूर्ताचे परिस्थितीचे नदरेन वेगळी आशिल्ल्यान, कोकणी बरप्यांक, कोंकणी साहित्याच्या वावराखातीर एकठांय हाडपाक एका व्यासपीठाची गरज आसली. हेच गरजेतल्यान कोंकणी लेखकांचे परिशदेचो कल्पना फुडें आयली आनी 'कोंकणी लेखक परिशद' ह्याच नांवाखाला तिचो दोन बसको जाल्यों. तिसरे खेपेच्यान परिशद ह्या नांवांत बदल करून, 'अखील भारतीय कोंकणी संमेलन' म्हणून तें जावंक लागलें. पयलो दोन लेखक परिशदो कोंकणीं बरो-वप्याचो एकवट' हाच्या आसऱ्याखाला जाल्ल्यो. तिसऱ्या लेखक संमेलनासावन, ही संमेलनां पुरायान कोंकणी भाषा मंडळाच्या आसऱ्याखाला आयोजित जावंक लागली.

पयलें संमेलन १९६८ वर्सा, पुण्यवंत शणै गोंयबाबाचे जयंतीदिसा म्हळ्यार जनाचे २३ वेर मडगांवांत श्री. दामोदर विद्याभवनांत जाल्ले. ह्या संमेलनाचे येवकार–अध्यक्ष आसले श्री. बाकीबाब बोरकर आनी येजमान आसले प्रसिद्ध कथाकार श्री. लक्ष्मणराव सरदेसाय, भाशा मंडळाचे तेन्नाचे अध्यक्ष श्री. केशवबाब भेंब्रो हाणी ही परिशद घडोवन हाडपाक जायतो वावर केल्लो.

हे पयले परिशदेंत कोंकणी बरपावळीच्या वेगवेगळ्या प्रस्नाचेर मुखेलपणान विचार जाल्लो आनी कोंकणीचे साहित्याक चळवळीक फावो ते दर दिवसाचे नदरेनय कांय पावला मारपाचीं थारिल्लीं. कोंकणी समाजाचो सांस्कृतीक एकवट, कोंकणीचें शुद्धलेखन, अेकरुपी कोंकणी, बरोवपी आनी तांचें साअित्य, हे ते परिशदेंतले म्हत्त्वाचे मुद्दे आसले.

### दुसरें संमेलन

कोंकणी लेखकांचे दुसरें संमेलन १९६९, नवंबरचे १५ आनी १६ वेर अशें दोन दिस पणजेत जाल्लें. हे परिशदेची येजमानकी श्री. रवींद्रबाब केळेकार हाणी चालयिल्ली. फादर मोरेन डिसोझा हे तिचे येवकार अध्यक्ष आसले. सर्वश्री नागेश करमली आनी रामकृष्ण जुवारकार हाणीं कार्यदर्शी ह्या नात्यान वावर केल्लो. गोंय दमांव दीव विधानसभेचे तेन्नाचे सभापती श्री. गोपाळ आपा कामत हाणी उक्तावण केल्लें, त्या समेलनाक गोंयाभायर, मुंबय, पुणें कारवार, मंगळूर, कोचीन हांगासूनय प्रतिनिधी आयिल्ले.

पणजेच्या ख्रिस्तरेय सभाघरांत जाल्ले हे परि-शदेंत पयले दिसा उक्तावणाचो दबाजो आनी रातची तेरेकवार सांस्कृतिक कार्यावळ जाल्ली. दुसऱ्या दिसा सकाळी, विशय समितीची बसका आनी ते उप्रांत दनपारा पेपर वाचन आनी सांजेची उक्ती बसका जाल्ली. गोंयचें शिक्षण आनी कोंकणीचो प्रस्न कोंकणी कथा, कोंकणी कवीता. कोंकणी लोक–गीतां, कोंकणी नाटकां, कोंकणी सरस्पत रोमी लिपींत, कोंकणी वर्तमानपत्रांचो इतिहास आनी कोंकणी साहित्य कानडी लिपींत अशे वाचिल्या पेपरांचे विशय आसले. उक्ते वसकेंत आठ थाराव मानून घेतिल्ले, हांतले मुखेल म्हळ्यार कोंकणींक साहित्य अकादमीचो मान्यता मेळची, कोंकणीचो घटनेचे आठवे वळेरेंत

आस्पाव जावचो, गोंयच्या सरकारान कोंकणी भाशा विभाग सुरु करचो, आकाशवाणीचेर कोंकणीक अदीक वेळ मेळचो, कोंकणीक आदार दिवंक केरळ सरकार-कडेन मागणे आनी एस. एस. सी. बोर्डाच्या शिक्षण-क्रमांत कोंकणीचो आस्पाव करचो अशी मागण्यो करपी आसले. कोंकणी लेखकांनी निरक्षरांक साक्षर करपा-खातीर पुस्तकां, भुरग्यांक वाचपाक पुस्तकां, आनी शाळांखातीर पुस्तकां तयार करपाखातीर सहकार्य दिवचें आनीं देवनागरी लिपीचो उपेग एके मानून घेतिल्ले रितीन करचो असो कोंकणी लेखकांक आवाहन करपी एक थाराव आसलो.

कोंकणी लेखकांचे दुसरे परिशदेचो हो सगळो वावर जातूत येवकार अध्यक्ष, उक्तावण करपी आनी येजमान हांची भाशणां, वाचिल्ले पेपर आनी मानून घेतिल्ले थाराव हाचो आस्पाव जाता-पुस्तकरूपान उजवाडायला. 'जैताचें आनीक एक पावल' अशें ह्या पुस्तकाचें नांव आसा.

## तिसरे संमेलन

कोंकणी लेखकांचें तिसरें संमेलन १५ आनी १६ फेब्रुवरी १९७५ वर्सा मडगावां जल्लें. श्री. उदय भेंब्रो हे समेलनाचे अध्यक्ष आसले आनी श्री. एवग्रियु जॉर्ज येवकार अध्यक्ष. नामनेचे कोंकणी नाटककार श्री. देवराय बेंदूर हाणी संमेलनाचें उद्‌घाटन केलें. येवकार समितीचे कार्याध्यक्ष श्री. शांताराम अनंत हेदो हांच्या मार्गदर्शनाखाला विंगड विंगड समित्यांच्या वांगड्यांनी हें संमेलन जैतिवंत करपाक हातभार लायलो. शेनवाराक सांजवेळा संमेलनाचें उद्‌घाटन जालें आनी रातिकडेन सांस्कृतीक कार्यावळ जाली. गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ राज्यांतल्या कोंकणी लेखकांनी ह्या संमेलनांत वांटो घेतिल्लो.

दुसऱ्या दिसा सकाळी विशय नियामक समितीचे बसके उप्रांत कोंकणी साहित्याचे वाडीची दिशा सारकी आसा काय ना हाचेर एक परिसवाद जालो. दनपारां लेखकांचो मेळावो जालो, जो एकमेकांकडेन वळख वाडोवपाक उपकारलो. उक्ते बसकेंत कांय म्हत्वाचे थाराव घेतल्या उप्रांत रातीकडेन कवी संमेलन जालें.

मानून घेतिल्ल्या थारावामदीं कोंकणीचो घटनेचे आठवे वळेरींत आस्पाव करचो, साहित्य आकादमीन ते भाशेक मान्यताय दिवची, गोंय सरकारान कोंकणी नाटकांवेलो करमणूक कर रद्द करचो, कोंकणीचे वरवीं समाज जागृती घडोवन हाडून गोंयचें पुनरुत्थान करचें, धरावे आनी भौशिक जिणेंत कोंकणीक मानाची सुवात दिवची, आकाशवाणीन आपल्या विंगड विंगड केंद्रांवेर कोंकणीक चड वेळ दिवचो आनी गोंयच्या अदमासपत्रांत मंजूर जाल्ले पैशे राज्य सरकारान कोंकणीचे उदरगतीखातीर वापरचे अश्यो मागण्यो करपी थाराव आसले.

## चौथे संमेलन

चौथें संमेलन ७ आनी ८ मे १९७७ अशे दोन दीस म्हापशां जालें. संमेलनाचें उद्‌घाटन नामनेचे हिंदी लेखक डॉ. नामवर सिंह हाणीं केलें. रे. फा. अंतोनियु पेरैरा हे संमेलनाचे अध्यक्ष आनी येवकार अध्यक्ष श्री. पांडुरंग पु. शिरोडकार हे आसले. पयल्या दिसा उद्‌घाटनाचो दबाजो जाल्याउप्रांत दुसऱ्या दिसा सकाळी साहित्यिक चर्चेचो कार्यक्रम जालो. कोंकणी लोकभोग्य साहित्याचो दर्जो, कोंकणी नाटक, वाचप्यांचो अपेक्षा, समाज आनी साहित्य, साहित्याचो पांवडो, साहित्याचें प्रकाशन सारक्या प्रस्नाचेर हे चर्चेंत विचार जालो. सांजवेळची सभा समेलनाचे अध्यक्ष फा. पेरैरा हांच्या येजमानपणासकल जाली. हे समेन वेगवेगळचो थारावण्यो घेवन सोंपिल्ल्या बरोवप्यांक भार्गा ओंपलीं, तशेंच कोंकणीचो घटनेचे आठवे वळेरेंत आस्पव करपाची मागणी केली. दुसरे अेके थारणेन संमेलनान साहित्य अकादमीक परबीं दिलीं. शिक्षणाच्या मळार कोंकणी आकाशवाणीवेल्यो कोंकणी कार्यावळो, नाटकावेलो करमणूक कर ह्या विशयांचेरूय संमेलनान थारावण्यो केल्यो.

# पांचवें तें धावें साहित्य संमेलन

## पांचवें संमेलन

अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचे पांचवें अधिवेशन, मडगांवां गोमंत विद्या निकेतन समाघरांत १९७९ वर्साच्या मार्च म्हयन्यांत २, ३ आनी ४ तारखांक जाल्ले. तीन दिसांचे कार्या–वळीन संपन्न जाल्लें तें पयलेंच संमेलन. ह्या समेलनाचे अध्यक्ष आसले नामनेचे कोंकणीचे कोशकार श्री. श्रीपाद रघुनाथ देसाय. श्री. फेलिसियु कार्दोज हे येवकार अध्यक्ष आसले. श्री. पांडुरंग पै. फोंडेकार हे कार्याध्यक्ष आसले. ह्या संमेलनाचें उद्घाटन नामनेचे हिंदी कवी श्री. भवानीप्रसाद मिश्र हाणी केल्लें.

पयल्या दिसा उक्तावणा दबाजो जाले उप्रांत दुसरे आनी तिसरे दिसा वेगवेगळे परिसंवाद आनी चर्चा आनी साहित्य दर्शनाच्यो कार्यावळी जाल्यो. 'कोंकणी साहित्य-आयचें आनी फायचें' आनी 'भुरग्यांचें साहित्य–बरप आनी प्रचार' हे दोन मुखेल परिसंवाद आसले. चर्चाचे विशय आसले. 'पुस्तकाची उजवाडावणी आनी विकरी आनी' कोंकणी साहित्य आनी बायलो. 'साहित्यदर्शनाच्या कार्यक्रमांत तरनाटे तशेंच जाण्टे हांच्या कथा–काव्य ललितबरपांच्या वाचनाचो आस्पाव आशिल्लो, संमलनाचे तिनय दिस रातच्यो सांस्कृतीक कार्यावळी जाल्यो. तांतूत लोकगीतां, लोकांनाच, नाटकुलीं, तियत्र हृचो समावेश आमलो.

ह्या समेलनात (पयलेच खेपो) कसल्योच थारावण्यो भश्या करूक नासल्यो पुण 'कोंकणीक राष्ट्रीय संविधानाधरून सगळे कडेन फावो ती हक्कामानाची सुवात मेळपर आमी कशेंच स्वस्थ बसचे नात ' असो उक्ते बसकेंत सगळ्यांनी निर्धाराचो रासवळ सापून मान घेतिल्लो. समेलनात गोंय तशेंच गोंया भायल्या प्रतिनिधीनी व्हड सरूयेन वांटो घेतिल्लो.

## सवें संमेलन

सवें कोंकणी लेखक संमेलन, गोंयच्या दक्षिण वाठारांत काणकोणां १४ आनी १५ फेब्रुवरी १९८१ ह्या दिसांनी जालें. ह्या संमेलनाखातीर खासा मंडप उबारिल्लो आनी ताका कोंकणीचे म्हालगडे आनी कोंकणी साहित्य परिशदेचे संस्थापक अमर उगडासाचे शानभाग हाचें, 'माधव मंजुनाथ शानभाग नगर' अशें नांव दिल्लें. ह्यासंमेलना स्वागताध्यक्ष असले फादर आल्वारु रेनातु मेंदिरा. कार्याध्यक्ष आसले श्री. रमेश कोमारपंत. संमेलनाचें अध्यक्षपण कोंकणी लेखक आनी शिक्षणतज्ञ प्रो. शांताराम हेदो हाणी चालयिल्लें. संमेलनाक उद्घाटक म्हणून नामवंत पत्रपंडित श्री. माधव विठ्ठल कामत हे लाभिल्ले.

पयले दिसा उक्तावणा दबाजो जाल्लो तांतूत कार्याध्यक्ष, येवकार अध्यक्ष, उद्घाटक, अध्यक्ष हांचीं उलोवपां, मानेस्तांचो सत्कार, नव्या पुस्तकांचें प्रकाशन आदी कार्याक्रम आसले. गोंयचे मंत्री श्री. शेख हसन हे उक्तावणा दबाज्याक मुखेल सोयरे म्हणून आयिल्ले.

दुसऱ्या दिसा जे कार्यक्रम आसलें तातूंत प्रति–निधींची वळख, 'कोंकणी साहित्य फाटल्या अण–भवातल्यान फुडली आखणी' हो परिसंवाद आनी चर्चा, 'साहित्य प्रसाराचो मार्ग' ही चर्चा, नवे कवी–नवे उमाळे 'हें कवीसंमेलन हांचो आस्पाव' आसलो. ह्याय संमेलनांत कसलेच थाराव अशें करूक नात पुण उक्ते बसकेंत 'कोंकणीच्या सर्वंगी विकासाखातीर आनी जैसापासत वावुरपाचो' सामूहीक निर्धार मात सोपुताच्या रुपांत सगळयांनी उक्तायिल्लो. संमेलनाचे उक्ते बसकेक मुखेल सोयरे म्हणून गोंय विधानभेचे तेन्नाचे उपसभामती श्री. वैकुंठ देसाय हे उपस्थित आसले. कोंकणीच्या सगळ्या वाठारातल्या प्रतिनिधीच्याउ पस्थितींत संपन्न जाल्या ह्या संमेलनांत, गोंयच्या दक्षिण वाठारांतल्या बिशेष करून काणकोण म्हालांतल्या लोककलांच्या दर्शन घडोवपी सांस्कृतीक कार्यावळीचे दोनीय दीस आयोजन केल्ले.

## सातवें संमेलन

सातव्या कोंकणी लेखक संमेलनाची दोन दिसांनी कार्यावळ ११८३ वर्सा, फेब्रुवारीच्या १९ आनी २० ह्या दिसानी सावडडें-कुडचडें हांगा घडोवन हाडिल्ली. खास मंडपात जाल्ल्या ह्या संमेलनाच्या थळाक सोळाव्या शेंकड्यांत जावन गेल्ल्या गोंयकार कवीच्या उगडासाक 'कृष्णदास शामा नगर' हें नांव दिल्लें. ह्या संमेलनाचे येवकार अध्यक्ष आसले श्री. श्री. नागेश करमली श्री. उल्हास बुयांव हे कार्याध्यक्ष आसले. नामनेचे कोंकणी पंडित, हल्याळचे फा. सिप्रियान सी. ए. पै उर्फ स्वामी सुप्रीय हे ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आसले. तेन्नाचो संसद्सदस्य श्रीमती मार्गारेट आल्वा हाणीं ह्या संमेलनाचे उद्घाटन केल्लें.

संमेलनाच्या पयल्या दिसा उद्घाटनाची कार्यावळ जाले उप्रांत दुसरो संबंद दीस ही संमेलनामुखार आंणिल्ल्या वेगवेगळ्या तरांच्या वावरांचो दीस आसलो. हातूंत 'कोंकणी साहित्याचो विकास' आनी 'कोंकणी भास आनी लोकजीण' हे दोन म्हत्वाचे परिसंवाद आनी चर्चा आसल्यो. गोंय तशेंच गोंयांभायरसून आयिल्ल्या प्रतिनिधींची स्नेहमेळावो जाल्लो. कवीसंमेलनाची कार्यावळ दोन वाटयांत जाल्ली. सांस्कृतीक कार्यावळीमदें समेलनाचे पयले. राती तरेकवार लोककलांचे दर्शन आनी दुसरे राती 'शबै शबै भौजनसमाज' हो नाटकाची कार्यावळ दवरिल्ली. ह्या आदल्या दोन संमेलनांत थारावण्याच्य कार्येक्रमांक कातर कायिल्ली पुण ह्या संमेलनात, नियामक समितीची बसका जावन, कोंकणीच्या संबंदान कांय थारावण्योय मानून घेतल्यो. हातूंतल्यो म्हत्वाच्यो थारावण्यो म्हळ्यार संविधानाचे आठवे वळेरेंत कोंकणीचो समावेश करपाची मागणी, भारतीय ज्ञानपीठ सारखे संस्थेन पुरस्काराखातीर कोंकणीसारख्या भाशांतल्यान साहित्याचो विचार करपाची मागणी, गोंयची मुखेल राजभास कोंकणी करपाची मागणी तशेंच पणजी आकाशवाणी केंद्राचीं सगळी निवेदनां कोंकणीतच जावंची आनी दूरदर्शनचेर कोंकणी कार्यावळी विस्तराच्यो अश्यो मागणी करपी थाराव जाल्ले.

## आठवें संमेलन

आठवें कोंकणी लेखक संमेलन अंत्रुजेतल्या रामनाथी ह्या सैमा सुंदर आनी श्रीरामनाथाच्या पवित्र स्थळांत जालें संमेलन सुवातेक 'दादा वैद्य नगर' अशें ह्या गोंयच्या व्हड कर्तत्वी पुतांचें नांव दिलें. कोंकणीतलें नामनेचे नवलकथा आनी कादंबरीकार श्री. दामोदर मावजो हे ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आसले. येवकार समितीचे अध्यक्ष आसले साहित्यकार श्री. एन्. शिवदास, नामनेचे चित्रपट दिग्दर्शक आनी निर्मीते श्री. रमानंद सागर हाणीं ह्या समेलनाचे उक्तावण केल्लें. साहित्यकार आनी थळाव्या लोककलाकारांचो भोवमान ही ह्या उक्तावण दबाज्यांतली एक विशेषताय आसली. ह्या संमेलनाच्या वावराचो दूसरो दीस चर्चा परिसंवाद, कवी संमेलनां, कोंकणीभायल्या लेखकांची कार्यावळ आदी कार्यावळीनी आटापिल्लो. कवीसंमेलनाचे दोन भाग केल्ले. कवियित्री संमेलन आनी दुसरें कवीसंमेलन. त्या भायर तरनाट्यांचे बरपावळीची झलक होय एक वैशिष्ट्यपूर्ण कार्यक्रम आसलो. कोंकणी कथेचो नियाळ हो एक कार्यक्रम तशेंच परिसंवाद चर्चेखातीर 'कोंकणी भास आनी बरपावळ-फुडाराची दिशा' हो विशय दवरिल्लो. हे चर्चेंत गोंय तशेंच गोंयभायल्यान आयिल्ल्या साहित्यकारांनी वांटो घेतिल्लो. ह्या परिसंवाद-चर्चेंचे शिक्षण आनी बालसाहित्य कोंकणी समाज आनी साहित्य तशेंच राजकीय, सामाजित, सांस्कृतीक जीवीत आनी कोंकणी बरपावळ अशे भाग केल्ले. कोंकणी भायल्या लेखकांचे कार्यावळीत पंजाबी, बंगाली, कन्नड, माराठी तशेच गुजराती साहित्यावयर उलोवपा जाल्लीं.

ह्या संमेलनाचे विषयक नियमाक समितीन त्यावेळार देशांत ज्यो हिंसाचाराच्यो घडण्यो घडिल्ल्यो ते संबधांत खंत प्रगटावन ह्या संबंधातलो साहित्य कारानी राष्ट्रीय एकचाराच्यो संबंधातलीं आपणाली लागणूक वळखून वावर करचो असो उलो मारपी थाराव केल्लो. हेर थारावांमदे कोंकणी राजभाशेचो थाराव, दूरदर्शनचेर कोंकणी कार्यावळी, शिक्षणीक

मळार कोंकणीचे उपेग तशेंच संविधानाचे आठवे वळेरेंत कोंकणी आदीं थारावण्याचो अस्पाव आसलो. संमेलनाचे दोनिय दिस रातच्यो तेरकवार संगिताच्यो कार्यावळ जाल्लो.

## णववें संमेलन

णववे कोंकणी लेखक संमेलन पुर्वीक नामनेच्या भतग्राम वाठारांतल्या सांखळी गांवांत जालें. संमेलन थळाक, कोंकणीचे प्राणाचार्य शणै गोंयबाब हांच्या पुण्य उगडासाक "शणै गोंयबाब नगर" अशें नांव दिलें कोंकणीतले नामनेचे कवी, नाटकार आनी पत्रकार मंगळूरात राबितो करून आशिल्ले. श्री. चा. फा. द कोश्ता हे ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आसले. येवकार समितीचे अध्यक्ष आसले प्रा. अरुण रामचंद्र साखरदांडे. संमेलनाचे उक्तावण मणिपूरचे संसद शिक्षणीक जाणकार आनी लेखक प्रा. एम्. तोंबी सिंग हांचे हस्तुकी जाल्ले साहित्कार तशेच भाशीक आनी सांस्कृतीक मळावयल्या थळाच्या व्यक्तीचोसत्कार, नव्या पुस्तकाचें प्रकाशन हाचो उक्तावणा सुवळचांत मुखेलपणान आस्पाव आसलो संमेलनच्या दुसऱ्या दिसा परिसंवाद आनी चर्चा हे कार्यक्रम आसले. 'एकविसाच्या शतमानाच्या संदर्भात कोंकणी साहित्याचो विचार' ह्यां परिसंवादाची येजमानकी श्री. रवींद्र केळकार हाणीं चलयिल्ली दुसऱ्या परिसंवादाचो विशय आसलो कोंकणी भास आनी निर्मणेची वावर' आनी ताची येजमानकी श्री. पुंडलीक नायक हाणी चालयिल्ली. ह्या दोनी परीसंवाद चर्चानी गोंय, महाराष्ट्र, केरळ, कर्नाटक तशेंच देशांतल्या हेर भागांतल्यान आयिल्ल्या लेखक प्रतिनिधींनी वांटो गेतिल्लो. कवो संमेलनाचीं कार्यावळ दोन वांटयांनी जाल्ली– समेलनाच्या पयल्या दिसा रातची सांस्कृतीक कार्यावळी पयलीं आनी दुसरे दिसा राती नाटकाचे आदी विशय नियामक समितींत वेगवेगळया थारावांचेर चर्चा जावन कांय थाराव मानून घेतिल्ले तातूंत कोंकणीक राजभाशेचो मान मेळोवन दिवपाक निर्धारान लडो दिल्लेखातीर गोंयचे जनतेचे अभिनंदन केल्ले. हाचेभायर राजभास कायदो चालीक लावप, दूरदर्शन आकाशवाणीचेर कोंकणी कार्यावळी, शिक्षणीक मळार कोंकणीचो अधीक पद्धतशीर उपेग हे विशयी थाराव मानून घेतिल्लें. संमेलनाच्या पयल्या दिसा रातची थळाव्या पंगडांनी सादर केल्लें लोककलांचें दर्शन देकोवपी सांस्कृतीक कार्यावळ जाल्यार दुसऱ्या दिसा रातची माशेल ड्रॅमेटीक एसोसिएशनान सादर केल्ली. अनिरुद्ध बीर हांच्या नाटकाची कार्यावळ जाल्ली.

## धावे संमेलन

धावे कोंकणी लेखक संमेलन संत सहिरोबा, भाऊ दाजी लाड, जीवबादादा केळकार हांच्या जल्म वाठारांत पेडण्यात १७ आनी १८ फेब्रुवरी १९९० ह्या दिसानी भरले. पेडणेचे नामनेचे कलकार सर्गेस्त मूरारबा पेडणेकर हांच्या उगडासाक लागून वाठाराचे नांव 'मुरारबा पेडणेकर' अशें दिले.

कोंकणी चळवळीचे म्हालगडी श्री गुरुनाथबाब केळेकार संमेलनाचे अध्यक्ष जावन आसले. येवकार समितीचे अध्यक्ष–श्रीमती कमल पार्सेकर आनी कार्याध्यक्ष श्री सुहास पार्सेकर जावन आशिल्ले. संमेलनाचे सरचिटणीस प्रकाश तळवणेकार आनी भांडारी तुकाराम म्हामल जाले. संमेलनांचे उद्‌घाटन फा. अन्तोनियु पेरेरा हांच्या हस्तुकी जाले. ह्या संमेलनाक जैतवंत करचेखातीर डॉ. तानाजी हळर्णकर आनी श्री नागेशबाब करमली हाणीं मोलादिक कामगिरी केल्या.

दोन दीस चलिल्या संमेलनात परिसंवाद, कवी संमेलन आनी सांस्कृतीत कार्यावळीचो आसपाव आशिल्यो. पयल्या दिसा शबै शबै बहुजन समाज ह्या नाटकाचो प्रयोग जालो. नवोदित कवींच्या संमेलनाची यजमानकी कारवारचे प्रो. पुरशोत्तम वेसाय हाणां चलयलो ह्या संमेलनाक मंगळूरसावन पयलेच पावटी चड प्रतिनिधी आयल्ले.

विशय नियामक समितींत वेगवेगळया थरावांचेर चर्चा जावन कांय थाराव मानून घेतिल्ले तातूंत–कोंकणी भाशेचो संविधाना ८ वे वळेरेंत

आसपाव करचो. राजभास कायदो चालिक लावचो. शैक्षणिक धोरण तयार करचें मायभाशेत पूर्व-प्राथमिक आणि प्राथमिक शिक्षण गोंयात सुरु करचें. दूरदर्शन आनी आकाशवाणी गोंय राज्याक टी. वी. स्टुडिओ वेगोवेग दिवचो. आनी कोंकणी भाशिक लोक गोंय तशेंच महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ ह्या राज्यांनी पातळ्ळयात. ह्या लोकांपासत आकाशवाणिचेर राष्ट्रीय वृत्तविभागाचो आसपाव करचो. राज्यभाशेच्या आंदोलनांतल्या वावुरप्यांचेर घातल्यो केसी फाटीं घेवच्यो. गोंय राज्य आनी सांस्कृती मंडळ स्थापन करचें. सिनेमा विकास महामंडळ स्थापन करचें. गोंय ग्रथालय विधेयकावरवो कोंकणी पुस्तकां, प्रकाशक, वाचनालयां हांकां सरकारी पालव मेळपाचो खाशेलो तरतूद करचो. संवसारभर पातळिल्ल्या गोंय-कारांचें समेलन घडोवन हाडचें. कर्नाटकांत कोंकणी साहित्य अकादमी स्थापचो आदींचो आस्वाव आशिल्लो.

कोंकणी साहित्य संमेलनां ही कोंकणीच्या साहि-त्योक, भाशीक तशेंच सांस्कृतीक मळावयालो एक अप्रूप असो विधायक वावर. ह्या समेलना वरवीं देशांतल्या वेगवेगळ्या भागांत रावन कोंकणी भाशें-तल्यान साहित्याचीं साधना करतल्याक एकठांय येवन साहित्योक तशेच दर सबधीत विशयाचेर विचारांचे आदान – प्रदान करपाचो संद मेळटा. कोंकणी समाज, भाशीक आनी सांस्कृतीक नदरेन अधीक संघटीत जावपाचे नदरेन जो वावर जाता, तातूंत साहित्य संमेलनाच्या वावराक एक महत्त्वाची सुवात आसा.

●

# येवकार अध्यक्षा
# श्रीमती आशा प्र. पालनकर
## हांचे उलोवप

इकरावे अखिल भारतीय कोंकणी संमेलनाचें नियोजित अध्यक्ष श्री एडविनबाब डिसोझा, संमेलनाचें उद्घाटक डॉ. शिवरामबाब कारंत, कर्नाटकाचे मानादिक मंत्री ब्लेसियसबाब डिसोझा, अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे मानादिक अध्यक्ष प्रो. आर. के. राव ह्या संमेलनाक हाजिर आशिल्ले कर्नाटकातले आनी कर्नाटका-भायल्यान आयिल्ले मज्या भावानो आनी भैयण्यानो.

आज हांगा अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन भरत आसा. विगड विगड वाठारातल्यान आयिल्ले साहित्यिक आनि साहित्य मोगी हांगा जमिल्ले आसात. दोन दीस कोंकणी साहित्याच्या विगड विगड आंगाचेर हांगा भासाभास जातली आनी कोंकणी साहित्य सरस्पतीचें आरधक तांच्या साहित्य निर्मितीच्या फुडारतल्या कार्याक नवी उमेद घेवन परत वतले. त्या खातेर हांगा जमिल्या सगळ्या मज्या भावा भैयण्याक सैमान पाचवे चार नटिल्या दर्या देगेर मंद वाऱ्याच्या निनादाच्या सुरार हांव तुमका सगळ्याक माये मोगाचो येवकार दिता.

कारवार शार ह्या आदी युग पुरुष सर्गेस्त माधव मंजुनाथ शानभाग हांच्या पायांच्या स्पर्शान पुण्यक्षेत्र जाल्ले आसा. त्या युगपुरुषाचे मनातल्यान स्मरण करुन त्यांच्या पुण्य नांवान सोबीत जाल्या ह्या माधव मंजुनाथ शानभाग नगरात कोंकणी साहित्य सरस्पतीचें स्मरण तुमचे वांगडा करताना माका भोव आनंद जाता.

मागशी ८ जुलै १९३९ दिसा कोंकणी परिशदेची सुरवात करन त्या वेळार न्हिदून पडिल्या कोंकणी समाजाक जागे करचे म्हान कार्य ह्या भूंयेर घडिल्ले आसा. तो संदेश हेर वाठारात पातळिल्या कोंकणी लोकाच्या काळजात पावन कोंकणी समाज स्वाभिमानी आनी पुरुषार्थी जावन आज भारतीय समाजात आपले एक खाशेले स्थान निर्माणकरुन आसा. सर्गेस्त माधव मंजुनाथ शानभाग हाणी पेटयिल्ली कोंकणीची दिव्य ज्योत आपलो उजवाड फाकित उडपी मुंबई आदी वाठायत भोवन १९६० सालात परतून ह्या भुंयेर पावली. त्या सालात हांगा जाली सातवी अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेची बसका ऐतिहासिक नदरेन अत्यंत महत्त्वाची आशील्ली. कोंकणी ही एक स्वतंत्र तेजिष्ठ भास म्हळळो संदेश तेन्ना दिगंतामेरेन फाकलो. त्या उपरांत ह्या परिशदेची देदिप्यमान ज्योत आपली जैताची घुडी घेवन कोंकणीच्या मूळ पीठात पावली आनी कोंकणीच्या इतिहासाक एक आगळे मोडण मेळळे. कोंकणीचें मुळ पीठ गोंय भारतात घटक राज्य जावन आसचे आनी कोंकणीक थंय राजभाटाचो मान मेळचो म्हळळो विचार हुंवाऱ्याच्या वाऱ्याभशेन अख्या गोंयभर पातळळो आणी गोंयच्या आनी गोंयाभायलो दर एक कोंकणी मनीस कोंकणीच्या उदरगतीक सानत्यान वावुरच्याक लागलो. आज सगळ्या कोंकणी मनशांनी केल्या म्हान त्यागाचे फळ म्हूण मेळिल्ले आसा.

मनशाक सतत फुडे वच्ची आनी वैर चढची भुक आसता. आज मनीस रानवट पणाची मेर दाटुन साबार फुडे पावल्या. ही संस्कृताय उजळ आसुंक जाय जाल्यार ताची आवयभासच मुखेली जावन आसा. हाची जाण इतिहास आमका सदीच परते परती करन दीत आयला. आज कोंकणी स्वतंत्र भास म्हण देशाच्या केंद्र साहित्य अकादमीन मानून घेतिल्ले आसा. कोंकणी गोंयची राज्यभास जाल्ली आसा. मुळावे शिक्षण धरुन विश्व विद्यालयाच्या शिक्षणा मेरेन कोंकणीन प्रवेश मेळयिल्लो आसा. पूण अजून मेरेन ज्या तऱ्हेन कोंकणीचो उपयोग ह्या वाठारानी जावूक जाय आसिल्लो तितलो जायना. ज्या देशाचे आमी कोंकणी लोक नागरिक आसात आनी ताजे घटनात्मक भाग जावन आसात त्या आमच्या कोंकणी लोकांच्या आवयभाशेक आमच्या देशाच्या राज्य घटनेत स्थान ना. ही उणीव आमी ना करच्याक जाय. हे ऐतिहासिक कार्य आमच्या नदरेमुकार आसा. अश्या ह्या म्हत्वाच्या वेळार ह्या कारवारच्या भूंयेर अखिल भारतीय कोंकणी साहिय संमेलनाचे इकरावे अधिवेशन घडत आसा. ह्या आदी कोंकणीच्या इतिहासात दोन खेप भांगराच्या अक्षरान यादस्तिक बरोवन दवरपाचो योग लाभिल्या कारवाराक परतून एक खेप भांगराचो इतिहास बरोवचो योग आयला. मज्या भावनो भैयण्यानो पैसपैसल्यान कोंकणीचो मोग काळजात भरून आवयभाशेच्या उदरगती खातेर खचेय त्याग करच्या निर्धारान हांगा आयिल्ले तुमी आज आनी फाल्या कोंकणी सरस्वतीचो उदरगतिचो म्हामार्ग तयार करतले आनी कोंकणीच्या जैताचो रथ त्या मार्गान मुकार व्हरपाची शक्त घेवन तुमि हांगाच्यान परत वतले. हे ऐतिहासिक म्हान कार्य करच्याक हांगा आयिल्या तुमका सगळ्याक हांव परतून उर्बे भरीत येवकार दिता.

॥ श्री गजानन प्रसन्न ॥



# दि दैवज्ञ को ऑपरेटीव क्रेडिट सोसायटी लि.

**91 दाणेगल्ली – शहापुर – बेळगांव**

सर्वसामान्याच्या दैनंदीन जीवनाशी एकरुप असलेली अग्रेसर सोसायटी.

| रजि. नं. | स्थापना | फोन नं. |
|---|---|---|
| ARBC / 2793 / 74 | 1974 | 20078 |

**प्रगतीचे बोलके आकडे**

दि. 31-12-91 अखेर

- भाग भांडवल :- 11,08,000-00
- रिझर्व व इतर फंड :- 14,59,000-00
- निव्वळ नफा :- 5,22,000-00
- कर्जे :- 1,96,00,000-00
- ठेवी :- 1,99,00,000-00
- खेळते भांडवल :- 27,500,000-00

– वैशिष्टये –

- तत्पर सेवा व कार्यक्षम सेवक वर्ग.
- सर्व प्रकारच्या ठेवीवर व्याजाचा वाढीव दर.
- ग्राहकांच्या अडचणी आणि गरजा लक्षात घेऊन संस्थेने कर्जाच्या अनेक योजना हाती घेतल्या आहेत.

## संचालक मंडळ 1991–92

श्री. रमाकांत कृष्ण अणवेकर (चेअरमन)

श्री. सुरेश दत्तात्रय वेर्णेकर (व्हा. चेअरमन)

– डायरेक्टर्स –

श्री. नरेश गजानन अणवेकर
श्री. जीवन श्रीपाद वेर्णेकर
श्री. शिवानंद भिकप्पा रेवणकर
सौ. कल्पना दिनकर अणवेकर
श्री. शांताराम नारायण वेर्णेकर
श्री. सुरेश गोविंद पावसकर
श्री. अरुण नागेश रायकर
श्री. सुरेश रामचंद्र रायकर
श्री. महाबळेश्वर नारायण सेजेकान
श्री. सावळाराव विठ्ठल रायकर

श्री. सदानंद म. रेवणकर
( मॅनेजर )

ह्या इकराव्वा समेलनाचे यजमानपण घेवची जबाबदारी कोंकणाचें म्हान साहितिक श्री. एडविन जे. एफ्. डिसोझा तुमचेर धाल्ली आसा. ही जवाबदारी पेलची शक्त तुमच्यात आसा. कोंकणी साहित्य क्षेत्राक तुमी म्हान योगदान दिल्ले आसा. तुमचो अणभव, तुमची साहित्य प्रतिभा, तुमचे आदर्श विचार आमका सगळ्याक मार्गदर्शन करचे आसा. ताजे खातिर आमी तुमका आपोवणं दिला आणि अध्यक्ष स्थानाच्या ह्या अत्युच्च पीठार तुमका बसयला. तुमका हांव स्वागत समितींचें वतीन ऊर्बे भरित येवकार दिता.

हे कोंकणीचे साहित्य संमेलन कर्नाटकात जायत आसा. कन्नड साहितिकानी कोंकणी लोकाक आपले पणान वागयला. कन्नड साहित्याक कोंकणी भाशीक लोकानी तोलमोलाचे योगदान दिल्ले आसा. अशे तऱ्हेन कोंकणी कन्नड साहित्याचे सहमिलन शेकड्यानि वर्सासाकुत चलत आयला. तो सबंध दिशीदिशी घट जायत वच्चो अशे आमका मनातल्यान दिसत आसा. देकूनच आमचे हे संमेलन उद्‌घाटन करच्याक कन्नड साहितिकातले शिरोमणी आनि ज्ञानपीठ भौमान फावो जाल्ले डॉ. शिवरामबाब कारंत तुमका आमी उद्‌घाटक म्हण आपयला. तुमी ह्या साहित्य जात्रेचे उद्‌घाटण करची जवाबदारी घेवन हांगा आयलात. हांव तुमका आदरपूर्वक येवकार दिता.

हे संमेलन कर्नाटक राज्यात जायत आसा. ह्या राज्जात कोंकणी भाशिक लोकातले भौसंख्य लोक आसात. कर्नाटक सरकारान ह्या लोकाक सदा आपलेच लोक अशे सांबाळला. आज जावपी ह्या संमेलनाक कर्नाटक सरकारचे प्रतिनिधी ह्या नात्यान मंत्र्यानी हाजीर रावचे अशे आमका दिसलें. कर्नाटक सरकारचे कायदोमंत्री हे कोंकणी भाशिक आसून ते कर्नाटकाची सेवा करत आयलात. मानादिक ब्लेसियसबाब डीसोझा तुमी येवन आमचे ह्या कार्याक कर्नाटक सरकारचो आदार आसा हे दाखोवन दिलात. तुमका हांव स्वागत समितीवतीन ऊर्बे भरित येवकार दिता. परतुन सगळ्याक हांव येवकार दिता.

सगळ्याक देव बरे करु.



# कार्याध्यक्ष
# प्रॉ. पुरुषोत्तम वि. देसाय
## हांचें उलोवप

भोवमानेस्त

अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचे अध्यक्ष श्री एडविन जे. एफ्. डिसोजा संमेलनाचे उद्घाटक विचारवंत साहित्यकार, डॉ. शिवराम कारंत, अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे अध्यक्ष श्री आर. के. राव, येवकार अध्यक्ष श्रीमती आशा प्रकाश पालनकर, मुखल सोयरे कानूनमंत्री ब्लेसियस डिसोजा, वेदीचेर शोभिल्या मानेस्तानो, कोंकणी, लेखकगण, इष्टानो, आनी भाव बहिणीनो.

आज प्रप्रथमच अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य समेलन हांगा भरला. कारवारच्या इतिहासात हो भाग्याचो आनी भांगराचो दिवस. माधव-बावाल्या तपाचो–साधनेचो परजळीत अखंड हो नंदादीप. विंगड–विंगड प्रदेशतल्यान हांगा जमिल्ल्या साहित्यकार. कवि, पत्रकार, आनी हेर सगळ्या कोंकणी मोग्यांक, इष्टांक हांव अन्तःकरणपूर्वक अभिनदन करता.

सैमान नटील्या आनी थाटिल्या निवळ, निवळ दर्यादिगेर कारवारात पयलेच खेपेक हे संमेलन भरता, देकुन आनंदाचो सुगंध चारीदिकान पातला. हो येवकार म्हळ्यार कारवारच्या कोंकणी जनतेलो नळमळीचो ओंकार आसा. कारवारकार म्हत्वाळ स्वभावान हेराचे मन जिकपी, धरा आयिल्यां सोयराची बरे तरेन उठबस करपी, सुस्वभावी. कर्नाटकाचे काश्मिर म्हणून घेवच्या ह्या सोवीत सुन्दर प्रदेशात एक नवो सोद घेवच्या खातीर आनंदान, व्हड हावेसान आनी ओडीन आमी आज हांगा जमल्यात.

तुमी जाणू मनीस अन्न–उदकार जगता, पुण आपल्या अन्तःकरणतल्या तान-भूकेंक भागौच्याक तो आपणाक दुसऱ्यात सोदता, एकमेकाक समजुन घेवच्याक प्रयत्न करता. एकमेकाक समजुन घेवचो सरल उपाय म्हळ्यारच आपली आवय भास. भास ही मन जोडपी मेतुसाकव. ती मनश्याक जोडता आनी प्रेम-आपुलकाय वाडयता. ती भावनेची भागीरथी, ह्या सत्याची जाण आसिल्ली देकूनच ब्रिटीशान म्हणिल्ले, "आमी एकाद्या वेळार आमगेले साम्राज्य गमवूं पुण आमच्या शेक्सपियराक आमी केन्नाच साणचेनात".

कोंकणीच्या नदरेन विचार केल्या हांगा कोंकणी भाशिक ७० ते ८५ टक्के आसात. कोंकणी साहित्य गेल्या पन्नास वर्सां सेजारच्या मंगळूर आनी गोंय ज्या तरेन फुल्ला त्या वेगान ते हांगा चवरून

फुलून येव शकलेना पुण माधवबाबाल्या अखंड साधने लागूनंच कारवारच्या तरनाटचा भीतर आवय भाशेंचो मोग, अभिमान जागो जालो आनी गेल्या १६–६–१९८९ क कोंकणी भाशा आनी सांस्कृतिक केंद्राची स्थापना जाली. ह्या संस्थेन अल्प समयात तरनाटचा खातीर तरेकवार कार्यांवळी, हायस्कूल आनी कॉलेज स्तरार घडोवन हाडल्यो. भांगरा उत्सव व्हड दबाज्यान आचरलो. १९९० फेब्रुवरी १० आनी ११ क उत्तर कानडा जिल्लो आनी सरबोंवतर्णाच्या प्रदेशाच्या इतिहासा बद्दल चर्चा सर्त घडोन हाडले. समाजाच्या कांय प्रज्ञावंतालो बरोच तेको सहकार मेळिल्यान उमेदीन, निर्धारान जायत्या आडमेळ्चांक झुगारुन, मोडून, अडी-अडचणी सोसून आमी आयचे हे मोठे आव्हान स्वीकारुक पावले. अशा तरेन माधवबाबाले सपन रूपाक एवच्याक पावले. घमघमीत परमळ्ळे. विंगड विंगड प्रदेशातले कोंकणी भाव बहिणी एक्टाय आयले. हळू हळू वसंताचो वैभव चंवरु लागलो. ह्या प्रेमळ उत्सवाक कारणीभूत, हातभारलात्पी सर्व कोंकणी मोग्यांक, हांव मनःपूर्वक हांगा उपकार मानता.

माका विश्वास आसा ह्या संमेलना लागुन हंचा जांटचा–नेंटचाक कोंकणीची सेवा करची, कोंकणीतल्यान बरोवाची स्फूर्ती मेळतली. कोंकणी साहित्याच्चा मळ्वार कारवारची कांही नखेत्रा आता लकलकतली. आवय भाशेचो घमघशीत सेवा करच्याक तन, मन, घनान पुढाकार घेतले. राष्ट्रीय आनी अंतरराष्ट्रीय पांवडयाचे कोंकणी साहित्य निर्माणाक प्रयत्नशील जातले. वास्तविक भारताच्या घटने प्रमाणे कोंकणी भाशींकाक अल्प संख्यकाली सवलत जी मेळका ती कर्नाटकातल्या कोंकणी भाशिकाक प्राप्त जाली ना. कोंकणी मनश्याली उच्च सभ्मता आनी गिरेस्तकाय जाणून कोंकणी साहित्याच्या उदरगती खातीर कर्नाटक सरकार व्हड मनान बेगीन कर्नाटकात कोंकणी अकादमी स्थापन करतलो आनी दीर्घ कालीन आमगेली मागणी पूर्ण जातली अशी माका विश्वास आसा. तशेंच केन्द्र सरकार कोंकणीक घटनेच्या ८ वळेर घालच्याक मान्यताय दितलो.

हे संमेलन खंयचेय नदरेन उणे पडचे न्हय म्हण जतनाय घेतला. तरीपुण तुमच्या मनाजसी सुखसोय जाळळी ना जाळवार सोसुन माफ करतले ह्या आशेन मजी उर्ता सोपैता.

देव बरे करु.

# साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळिल्ले साहिती

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| १. | श्री रविंद्र केळेकार, गोंय | प्रवासवर्णन | हिमालयांत | १९७७ |
| २. | डॉ. दत्ताराम सुखटणकर, गोंय | ललित निबंध | मान्नी पुतव | १९७८ |
| ३. | श्री र. वि. पंडित, गोंय | कविता | दर्या गाजोता | १९७९ |
| ४. | डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, गोंय | कविता | पिसोळीं | १९८० |
| ५. | श्री बाकीबाब बोरकर, गोंय | कविता | सासाय | १९८१ |
| ६, | श्री लक्ष्मणराव सरदेसाय, गोंय | ललित निबंध | खबरी | १९८२ |
| ७. | श्री दामोदर मावजो, गोंय | कादंबरी | कार्मेलीन | १९८३ |
| ८. | श्री पुंडलीक नायक, गोंय | नाटकुली | चौरंग | १९८४ |
| ९. | श्री जे. बी. मोरायश, मुंबय | कविता | भितरलें तुफान | १९८५ |
| १०. | श्री प्रकाश पाडगांवकर, गोंय | कविता | हाव मनीस अश्वत्थामा | १९८६ |
| ११. | श्री अ. ना. म्हांबरे, गोंय | कथा | पणजी आतां म्हातारी जाला | १९८७ |
| १२. | श्री चंद्रकांत केणी, गोंय | कथा | व्हकल पावणी | १९८८ |
| १३. | श्री चा. फ्रा. डिकोस्ट, मंगळूर | कविता | सोशाले काम | १९७९ |
| १४. | श्री रमेश वेळुस्कर, गोंय | कविता | सावुलगोरी | १९९० |
| १५. | श्रीमती मीना काकोडकर, गोंय | कथा | सपनाफुलां | १९९१ |

## साहित्य आकादमीचो भाशांतर पुरस्कार मेळिल्ले साहिती

| | | |
|---|---|---|
| १. | श्री रविंद्र केळेकार, गोंय | १९९० |
| २. | श्री आर. के. राव, कोचीन | १९९१ |

# टी. एम्. ए. पै प्रतिष्ठान साहित्य पुरस्कार मेळिल्ले साहिती

| | | | |
|---|---|---|---|
| १) | श्री ए. टी. लोबो | तू बरो जा | १९८५ |
| २) | श्री नागेश सोंदे | संत पुरंदरदास | १९८६ |
| ३) | श्री जोस आल्वारीस | लिपयिल्ले हिरवे | १९८७ |
| ४) | श्री जे. बी. सिक्वेरा | काळजाचे उमाळे | १९८८ |
| ५) | श्री बेंदूर देवराय अंगळ | कौरवालो कृष्ण | १९८७ |
| ६) | श्री होसाड बाबुटी नायक | हांव ताका चली दिना | १९९० |

कोंकणी भाशा आनी सांस्कृतीक केंद्र, कारवार पुरस्कृत

# ११ वे अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन

माधव मंजुनाथ नगर – कारवार

## ८-९ फेब्रुवारी १९९२

---

येवकार समितिची वावुरपी समिती

### स्वागत समिती

अध्यक्ष :

सौ. आशा पालनकर

कार्याध्यक्ष :

प्रो. पी. व्ही. देसाई

प्रधान कार्यदर्शी :

श्री. दीपक गांवकर

उपकार्यदर्शी :

श्री. महाबळेश्वर सैल

कोशाध्यक्ष :

श्री. अनंत बसरुर

उपकोशाध्यक्ष :

प्रो. लॅन्सलॉट अंद्रादे

उपाध्यक्ष :

रे. फा. आंब्रोज
श्री. एस. पी. कामत
सौ. शैला बोरकर
श्री. जे. डी. परुळेकर
श्री. एम्. आर. नायक
डॉ. एस. आर. नायक

### हेर उप समित्यो

नोंदणी :

श्री. नारायण नायक पवार
श्रीमती उषा राणे
मंजुनाथ र. पवार
लता नायक
प्रकाश नायक
अशोक राणे
कृष्णानंद पै
अनुप गांवकर
विनायक मेत्री
दत्तानंद पी. नायक
एल् पी. फर्नांडिस

निधी :

ॲड. बाळकृष्ण पै
उल्हास अणवेकर
आशीश गांवकर
इ. जी. वियेगस
प्रो. साईनाथ सैल
मंगलदास शेटीया
प्रकाश पालनकर

जेवण उपहार :

प्रकाश पालनकर
गोपालकृष्ण नाय्यर
प्रशांत रायकर
संजीव पागी
संतोश गांवकर
प्रशांत फायदे
विनायक पवार
मारुती नायक

प्रदर्शन :

कृष्णानंद वेर्णेकर
नरेंद्र सावंत
घनश्याम राणे
संतोष नायक
सादिक एम्. एस्.
दीपक पी. गांवकर
उल्हास कोमारपंत

सांस्कृतीक कार्यावळ

पी. जी. नायक
नारायण नायक
देवीदास कदम
शामराव एस्. नायक
बबिता पी. नायक
दिनेश कलगुटकर

सभागृह व्यवस्था :

डॉ. विष्णु नायक
श्री सुभाष पै
शंकर राणे
नजीर शेख
प्रदीप पवार

निवास व्यवस्था :

प्री. हेमंत फायदे
सुनील बाडकर
कमलाक्ष तु. सावंत
श्रीधर रा. फायदे
राजेश पी. देसाई
विश्वंभर जी. नाईक
अशोक डी. वायंगणकर

प्रचार आनी यादस्तिक :

दीपक गांवकर
प्रो. अनील मजली
सतीशचंद्र कोरगावकर
मार्शल मेनेजिस
तारकेश्वर तामसे
आशीश उ. राणे
दिनेश राणे

येरादार :

सॅमसन डिसोजा
शिवराम शिद्रकर
पी. फर्नांडीस
मारुती सावंत
शशी नायक
तुळशीदास सावंत
गोविंद एन्. बेळूरकर

व्यासपीठ व्यवस्था :

सौ. अनसुया कसबेकर - मजली
डॉ. वाय. आर. कुलकर्णी
श्रीमती स्वामिनी गांवकर
दर्शन नायक
संतोश मा. नायक
सच्चिदानंद सावंत

# May the best things in life happen to your home

When it comes to your home, you want only the best.

Crompton Greaves gives it to you. With a range of the finest ceiling, table, pedestal, wall-mounting and exhaust fans.

Elegantly designed and energy efficient, they are perfectly balanced for noiseless operation.

The ceiling fans are also available with Power Saver - the electronic regulator.

Crompton Fans.
Yours for years and years.

Crompton Greaves
LIMITED



**CROMPTON FANS**
Built with care. Built to last.

इकरावो अखिल भारतीय

# कोंकणी साहित्य सम्मेळ

## एक नवी जागृती



अध्यक्षीय भाषण: एडविन जे. एफ. डि'सोजा

**फेब्रुवरी 8 आनी 9, 1992 कारवार**

कारवारांतल्या हे प्रशांत सांजेर इकराव्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य सम्मेलनाच्या अध्यक्ष स्थानारथावन तुमचेलागीं हांव उलयताना सबार सिंतिमेंतां आनी उमाळे म्हज्या काळजांत आसात. सोळा वरसां परयांत विदेशांत आसल्ल्या म्हाका तुमचेलागीं आसल्लो संपर्क म्हळ्यार फकत हावें लिखललीं बरपां. आनी आतां एकच्छाणे राष्ट्रमट्टाक हो मान तुमी म्हाका दिताना सिंतिमेंतांनी हावें पिगळचें सहज. निजायकय तुमचे मदें बसून म्हाका उलंवकजाय, म्हज्या मोगाच्या कोंकणस्थांनी पाटल्या सोळा वरसांनी केल्ली प्रगती समजोन घेंवकजाय.

पुण हो एक साहित्य सम्मेळ. हरयेकाक उद्देश आसल्लेपरी ह्या सम्मेलाकय उद्देश आसा. उद्देशाक एक थिक आसा आनी हें थिक जावनासा आमची मांयभास "कोंकणी". फकत ह्या सबदान दिल्ले घटायेन, सोबायेन आनी मोगान आज आमी हांगासर जमल्यांव; कोंकणी जावनासा सकत आमचे तसल्या ग्रहांक, विविध लिपिंच्या कोंकणी ग्रहांक तांडून एका कक्षेर दवरूंक सकचे तसली.

तुमचे परवणगेन हांव स वरसां पाटीं वेतां. म्हजें कुटांब आनी हांव स्विजरलेंडांतल्या जिनेवांत प्रवास करतल्यांव. केबल कारांत बसून एका दोंगराचो प्रवास करचें कार्यक्रम त्या दिसाचें. केबल कार चडोंक जाताना म्हजेथंय भ्यें चरलें. कित्याक उबरायेंक हांव कावजेतां. आमचे सांगाता केबल कारांत आसल्ली दूरगाय्ड - तरनाटी स्विज चली - म्हज्या मुखामळावयली काळबाण पळेवन म्हाका प्रफुल्ल करचेखातीर कोण्णा तिणे उलवणे प्रारंभ केलें. "भारताच्या खंयच्या भागाथावन तुमी आयल्यात?" "दक्षिणाथावन" "दक्षिणांत खंयच्या राज्याथावन?" "कर्नाटका, आदलें मैसूर" हावें चिक्के विरारायेन जाप दिली. "कर्नाटका" ती उदघारली. "कर्नाटकांत खंय?" आतां हांव निजायकय खुबाळ्ळों . "तुवें मंगळुरचें नांव आयकलांय मिस्स?" हावें म्हज्या ताळ्यांत विराराय पाचारलीच. "मंगळूर" ती उदघारली. "मंगळुरांतच न्हय, अखखया कर्नाटकांत, गोयांत आनी केरळांत हांव भोवंल्यां. आमचो एक पंगड समाधानेच्या खासगी मिसांवाचेर भारताक आयल्लो. कितलो कुतूहलबरीत देश तुमचो! विविध भासो, विविध संस्कृत्यो, तरय तुमी सर्व भारतीय" "विविध भासो न्हय, एकेके भाशेक चार पांच लिपी सयत आसात!" हावें तिका कळयलें. "मान्यता मेळल्ल्यो भासो सोडल्यार" हावें विवरिलें."लिपी कितल्यो आसल्यारय कितें जालें!" ती म्हणाली " उलयताना एकच भास भायर येता न्हय?"

दोंगराचे ते उबारायेर तिचें हें सवाल म्हजे मतींत बरोबर खंचलेना पुण ह्या सम्मेळनाक तयाराय हांव करताना ह्या सवालांतलें खरोखर सत म्हाका सुसतालें. लिपयेचें समस्यें आमचे सामकार आसा जाव्येत. पुण खंयच्याय लिपीन कोंकणी लिखच्या कोंकणस्थां मदें एक जाग्रती Awakening आसा करूंक कसली अडखळ आमकां आसा? म्हज्या हातांत ही फोली आसा, हे फोलयेचेर कानडी लिपयेचीं अक्षरां आसात. तीं अक्षरां हांव वाचून उचारताना कोंकणी भास भायर येता.

हांव म्हजी मायभास कानडी लिपींत लिखतां, तूं म्हज्या भावा नागरींत लिखताय, तूं म्हजे भयणी मलयाळमांत आनी तूं म्हज्या इश्टा उरदूंत. पुण आमी उलयतांव एकच भास. सामान्य लिपी नासल्लेवरवीं आमी असहायक जांवकनांव, आमच्या संपर्कांत उणेपण येंवकना. तुमच्या उलवण्यान हांव प्रभावित जांवक सकतां आनी म्हज्या उलवण्यान तुमी. हें सत न्हय जाल्लें तर हो सम्मेळ हांगासर उबो जातोचना.

आतां हांगासर ह्या सम्मेलाचो ध्येय, अध्यक्ष स्थानारथावन गमलेल्या माहिती प्रकार जाहीर करतां. "कोंकणस्थां मदें नवी जाग्रती." हे जाग्रतीवरवीं सामूहिक चलावण आनी सामूहिक चलावणेवरवीं संघाटितपण. सम्मेलनाचो चावी-सब्द "कोंकण जाग्रती." हाचेर हांव चडीत उलंवच्याफुडें, हांव घोड्यामुखार गाडी हाडून येतां म्हण तुमकां भोगच्या पयलें एक संगत हांव तुमचेसंगीं उगत्यान वोपतां.

कितलोय तोंडपाशीं संपर्क आमचेमदें आसा तरी आमचे सोबीत सुंदर दुलब मांयभाशेक एक सामान्य लिपी अवश्य, अवश्य आनी अवश्य. नयसर्गीक लक्षनांनी फकत नागरी लिपी आमचे मायभाशेक सहज जाल्ली म्हळळें चिंतप आसा. हांव त्या चिंतपाच्या भायर ना. तर हांव कसल्या नवे जाग्रतेविशीं उलयतां? कोंकणी एक स्वतंत्र भास म्हळळें स्थापित जालां, गोंय कोंकणी राज्य जालां, केरळाच्या इस्कोलांनी कोंकणी शिकप प्रवेश जालां. ह्याच जनेराचे चार तारकेर मंगळुरच्या सांत लुविस कॉलेजींत कोंकणी अध्ययनाचो विभाग प्रारंभ जाला आनी कोंकणीक एक लिपी आसाजायीच म्हळळें सरवांनी मांदुन घेतलां. एका सामान्य लिपयेवरवीं कोंकणींत संघटिताय हाडून तिका फावो जाल्लो मान आनी जागो आटवे वळेरीर फावो करतेल्यांव म्हळळो निर्धार आमी घेतला तर आतां कसले जाग्रतेविशीं हांव उलयतां? सर्व म्हालघड्यांनी येदोळच मांदून घेतलां - एके परिषदेच्या अधिवेशनांत, एका सम्मेलाच्या ठरावांनी. एक सामान्य लिपी, रात फालें जांवचेभितर कोंकणी भाशेचेर देववंक असाध्य. हे बदलावणेक एक परिवर्तणाचो काळ असाजायीच आनी हावें उलवंची जाग्रती ह्या काळाक संबंध जाल्लीच. कोंकणीक एक लिपी दिवंचे उरबेंत, कोंकणीक आटवे वळेरीर सोबयजाय म्हळळया पंथाह्वनांत दर्वडोन आमी आमची येदोळची साहितीक, सांस्कृतीक ..... मटव्यान खंयचीय कोंकणी ग्रेस्तकाय कलबेंवक सोडचीनाका.

सर्व म्हालघड्यांनी, येदोळच मांदून घेतलां -एके लिपयेचो बरपूर फायदो जोडचो आमच्या मुकल्या जनांगान आनी आमचें मुकलें जनांग आमच्या युवजणांच्या भुजांचेरच आसा. अशें जावन हे जाग्रतिचें झूं हांव आमच्या युवजणांचेर देंवयतां. हांगासर तुमी विचार्शात "हें साहित्य सम्मेलन. कसलीय जाग्रती जायजाय तर ती साहितिनींच करिजाय, तालवारिच्याकय लिखणी बळिष्ठ म्हळळें रुजू करिजाय." सादें राजांव हें. पुण हांव म्हणतां, हावें कोंकणींत लिखल्ल्यान, पंचवीस कादंबरयो, धाराळ मटव्यो काणयो आनी हेर इतर लेखनां लिखुन हांव फामाद जाल्ल्यान म्हाका साहिती म्हणतात, झेले घालतात, वेदिंचेर बसयतात, साहित्य सम्मेळनाचो अध्यक्ष करतात म्हण तुमी चिंतात जाल्यार हें सारकें न्हय. तुमचे पयकी सर्व आयच्या ह्या सम्मेलनाचे अध्यक्ष जावंक अर्ह. अजापल्यात तुमी? साहित्य म्हळयार एक देवी, देव या विशिष्ठ कसलीय सकत जिका आमी - साहिती - मंदिरां बांदून, तेंपलां बांदून पुजा करतांव आनी हे पुजेक हेर साहित्य सेवा म्हणतात. परत्यान हांव विचारतां साहित्य म्हळयार कितें? मनशाकुळच साहित्य! मानवाच्या मूळ भोगणांचेर - काम, क्रोध, मोसोर, हगें, राग, मोग, मयपास हांचेरच साहित्य उबें जालां शिवाय लेखकाच्या घडपांवरवीं न्हय. मनीस नासतां साहित्य ना. आमी सर्व साहिती. पुण आमचे मदले थोडे लेखक. हांचें काम, जीवनाचे खरसेभरीत धावेंत सामान्यांक दिसनासल्लें देखचें आनी लिखचें. मटव्यान, ताणे लिखलली एक कांदबरी, एक कवन, एक नाटक आमी वाचताना आमींच शेरमेतां जाव्येत! उदगारतांव आमी. ह्या लेखकान आमचीच जिणी लिखल्या! आमी सर्व साहिती म्हळळयाक हाच्याकय व्हरती रूजवात हांगासर गर्जशी दिसाना जाल्ल्यान

नवे जाग्रतेचें झूं हांव तुमचेर, प्रतेक जावन युवजणांचेर देंवयतां.

जाग्रती म्हणताना "येदोळ परयांत आमी निदोन पडल्यांव? "म्हळ्ळें सवाल उदेतेलेंच. कोंकणी भाशेचे उदर्गते तरफेन सरवांनी येदोळ पर्यांत आटयल्लें रगत आनी देंवयल्लो घाम अपार. ह्या रगताचें आनी घामाचें मोल बांदूंक असाध्य. पुण हेंच रगत आनी घाम आमचीं बुन्याद. जशें गोंय, कोंकणिचें कुळवार आनी दरबार तशेंच हरयेका कोंकण्यान कोंकणीखातीर केल्लो वावर आमच्या सरवांच्या मस्तकांचेर बेसांवांचो शिंवोर जावनासा. तर ह्या नवे जाग्रतिचीं लक्षणां क्सलीं?

पांच लिपिंनी लिखच्या कोंकणी साहित्यांची आनी साहितिंची एकमेकाची वळक करची. गोयांतल्या, केरळांतल्या, महाराष्ट्रांतल्या आनी कर्नाटकांतल्या कोंकण्यांनी, पांच लिपिंनी आसच्या लेखकांचीं आनी तांच्या कृतयेंचीं नांवा आयकल्यांत जाव्येत. पुण कितल्यांनी ह्यो कृतयो वाचल्यात, तीं कवनां चाकल्यांत? केदोळ परयांत आमी राकजाय? एक सामान्य लिपी जरूर येतली. पुण हें घडचे परयांत आमचे लेखक आमचे कवी चुप रावतले? साहित्याची उदर्गत एक व्हाळो. जशी जिणी व्हाळता तशेंच साहित्य व्हाळता. एक सामान्य लिपी येवचेवरेग आनी ती लिपी प्रचलीत जांवच्यावरेग जियेंवचें रावया या लिखचें रावयात म्हण आमी म्हणयेत? वरसांत एक ग्रंथ पुणय कानडिंतलो नागरीक या नागरिंतलो कानडीक, रोमिंतलो उरदूक या उरदुंतलो रोमीक उतरावन कोंकणी साहित्याचें लिप्यांतर करूंक आमच्यान साध्य ना ? मनिसच साहित्य म्हणताना साहित्याची वळकच मनशाचे वळकेपरयां आमकां पाववन जाग्रती करूंक सकना?

नागरींत लिखल्ल्या कोंकणी साहित्याक राष्ट्र मट्टार प्रशस्ती मेळताना म्हजें काळीज संतोसान पाळटी मारता. म्हजे मायभाशेक राष्ट्र मट्टार प्रशस्ती, जांव ती खंयचेय लिपिंत. तरी पुण हांव जाणा, हेर इतर जाणांतकि आसात म्हण धाराळ तालेंतां, धाराळ कृतयो कोंकणिच्या हेर लिपिंनी. हांकां खंचच्याय मट्टार तुकून पळेल्यार प्रशस्ती फावोच. पुण केदळा? आसात ह्या लिपिंनी लेखक आनी कवी जांणी " प्रशस्ती प्रशस्ती "म्हणोन लिखणी सकला दवरिल्ली तर आज कोंकणी साहित्याची उदर्गती जातीना. पुण हे तातांचीं सिंतिमेंतां दांबून धरुन लिखुनच आसात. हावें सुचयल्लो हो संघ घडच्यांत आमी यशस्वी जाल्यार ह्या लेखकांक, ह्या कवींक आशेचें आनी भर्वश्याचें एक किरण लाभतलें आनी कोंकणी साहित्य चडीत मापान आनी जबरदस्तेन ऊर्जित जातलें. सरवांच्या नावान हांव विभिन्न लिपिंनी पत्रां चलंवच्या संपादकांक उलो दितां - आसा करयां एक असलो संघ. ह्या संघांत फामाद लेखकांक आनी दूरदृष्टेच्या वाचप्यांक कुडसंवचें. वरसाक उण्यार उणे तीनपावटीं पुणय संघाच्या सांद्यांनी सांगाता मेळचें लेखनां अदल बदल करचीं. कविता - कवनां स्परधे, प्रबंध स्परधे, आसा करचे. हें आमचेवरवीं असाध्य म्हण तुमकां भोगता? दुडवाचो चिमटो जरूर आसतलो. पुण नांतगि आमचे मदें करोडांनी वयवाट चलवन देशाची आर्थिक स्थिती उद्धार करचे? नांतगि आमचेमदें करोडांनी सुंख भरचे? खंडित, कोंकणिचे उदरगतीक तांचें उदार मनंच पुरो. बंडवाळ आपापींच येतलो.

कोंकणी लेखक, कवी, नाटकिस्त या कलाविद जावन कोणेंय परिपूर्ण रितीर आपली आर्थिक परिस्थिती सुधायल्ले दाखले बोव विरळ. मंगळुरांत चलल्या कोंकणी भाषा मंडळ, कर्नाटका हाच्या सहमिलनावेळार म्हज्या गमनाक गेल्ली एक संगत हांव तुमचे सामखार दवरतां. रेजिस्ट्रेशनावेळार " व्याप्त -वृत्ती" लिखूंक आसल्ल्या अंखणांत आमच्या लेखकांनी कविंनी आनी पत्रिकोध्यमांत आसल्ल्यांनी

आपणाची "व्याप्त-वृत्ती: बेंकांतली नवकरी, व्यवाट, गुमास्त, मेस्त्री .... इत्यादी इत्यादी भरलें. कोणेंय तरी आपुण कोंकणी कवी. कोंकणी कादंबरीकर्त या कोंकणी पत्रिकोध्यमांत म्हजें काम म्हण लिखुंकना, ही एक गमानार्ह संगत.सोळा वरसांनंतर पाटीं आयल्यानंतर थोडे परिचित व्यक्ति म्हाका भेटले. प्रारांभिक उलवणें जाल्यानंतर "तूं एका तेंपार कोंकणींत बरयतालोय" हावें विचारलें. "व्हय, तो दीस गेला. कोंकणींत बरयल्यार पोटाक शेळ मेळना" तांची जाप . " पुण तुका इतलीं तालेंतां आसल्लीं. देणीं आसल्लीं, तुजें चिंतप इतलें गूंड आसल्लें" "आनी पो टां त भु कय आसल्ली " तांणी म्हजीं उतरां कातरलीं "कोंकणी साहित्यान थोड्या मट्टाक पुणय आर्थिक स्थिती सुधरायल्ली तर ... " तांचीं उतरां तितल्यारच जिरोन गेलीं .

नवे जाग्रतेचो खुण जावन धरमिष्टांच्या आनी कोंकणी मोगिंच्या बरया मनान एक "ट्रस्ट" प्रारंभ करूंक साध्य जांवचेंना ? आमच्या फुलोन येंवच्या लेखकांक, कवींक, नाटकिस्तांक आनी कलाविदांक मानसीक तशें आर्थिक पाटिंबो असलो एक ट्रस्ट दीत जाल्यार आमच्या साहित्याचें तुपें आनिकय ग्रेस्त जांवचेंना? येदोळपर्यांत हांव तुमचेलागीं सवालां विचारनंच आसां . कित्याक अध्यक्षाच्या स्थानार रावोन एका भाषणान कोंकणी भाषेसामखार आसच्यो सर्व अडखळयो आनी अडचण्यो काडूंक म्हज्यान असाध्य. ह्याच पथाचेर चिंतप मुंदरून हांव आतां कर्नाटकाविशीं उलयतां . कित्याक हो सम्मेळ कर्नाटकांत जमला . कर्नाटकांतली जाग्रती खळमीत नासल्ली जायजाय . कर्नाटकांत रडणीं सबार आसात, पुण लोकासामखार केदळा आनी कशें रडजाय म्हळळें मात घुसपडेचें जालां. सांत लुवीस कॉलेजींत कोंकणी अध्ययनाचो विभाग उगतावण जाताना उलवन श्री ब्लेसियस डी सोजा कोंकणांतलो सुपुत्र म्हणालोकि आपुण कोंकणीखातीर जाता तितलें करुंक तयार आसा. पुण तुमी जाणांत, रडच्या बाळकाचेर मात आवयचें गमन पयलें पडता आनी तिच्या पान्याचो पयलो अवकास त्या बाळाक मेळता. शिकपी आनी अनुभवी श्री डिसोजान हांगासर "रडणें" म्हळ्ळो सब्द वापरताना खंडित जावन सामूहिक जाग्रती - कोंकणींत जायजाय आसली सामूहिक जाग्रती - ताचे मतींत आसली .

कर्नाटकांत कोंकणी अकादमी ना . हें आमचें रडणें. गोयांत कोंकणी अकादमी आसा. गोंय कोंकणिचें कुळार. गोयांत कोंकणिचीं बोंदेरां उबतात. पण गायात उबजाल्लें साहित्य उतरोन व्हय तरी समासम मट्टार पुणय कर्नाटकांतल्यांनी साहित्य उबजायलां . पुण कोंकणी भाषा मंडळ (कर्नाटका) आसा. ही मंडळ जावन एक मचवो कोंकणी भाशेक राज्य सरकाराच्या दारवट्यापरयांत पावंवचो. पुण कितें आनी कसलें ह्या मचव्यांत भरून आमी धाडिजाय? फकत रडणें? हसतीमुकार पिटील व्हाजयल्लेपरी हें जांवचें ना? पिटील व्हाजंवचें काम पळकुर्यांचें. रोम शहर हुलपाताना नीरो चक्रवर्ती पिटील व्हाजयतालो खंय. आमचें दायज हुलपांवची कसलीच आशा आमकां ना तर मचव्यांत भरूंक कसलें आमचेथंय आसा? फकत हो सब्द "कोंकणी". राज्य सरकारान खंयचेय कुशीन, वयर या सकयल पळेताना ताका कोंकणी कोंकणी आनी कोंकणींच दिसाजाय तर कसली जाग्रती आमी करिजाय? जाप दिंवचें प्रयतन करचेफुडें -

पाटल्या दिसांनी एक म्हालघडो साहिती, प्रायेन म्हजेवरनीच थोड्या वरसांचो म्हज्या बिडाराक आयल्लो. उलयतां उलयतां ताणें उचारल्लीं हीं उतरां म्हज्या गमनांत आसात. " फिरग्यांनी आमकां टाय बांदूक शिकयल्ल्या दिसाथावन रे आपा, कोंकणी म्हळ्ळो सब्द आमचे सुकर्नळियेंतच अडचाला! सत आसा ताच्या उतरांनी .आमी पांगुर्न

घेतल्या आधुनिकतेंत आमचेंच अस्थित्व आमी विसरच्यार आसांव. आज हावेंय सूट घाला आनी टाय बांदल्या. पुण टाय बांदताना त्या म्हालघड्या साहितिचीं उतरां म्हजे मतीक आयल्लीं आनी हांव बारिकायेन घामेलों. सूट घाल्ल्यान आनी टाय बांदल्ल्यान आमी आधुनिक जायनांव आनी तशेंच आमची मांय भाषेक नेगार करुनय आधुनिक जायनांव . परत्यान उचारतां आमचे भाशेक आनी संस्कृतेक विसरोन आनी नेगार करून आमी आधुनिक जायनांव.

आतां हांव युवजणांक उद्देशितां, तुमचेथंय कोंकणी जाग्रती करुंक कितें करिजाय? हें सवाल तुमी सवालानच पाटीं मारयात. कोंकणींत कितें आसा? कसले जाग्रतेविशीं तूं उलयताय? दिसामदें एकपावटीं पुणय "कोंकणी" म्हळ्ळो सब्द आमी आयकनांव. हें दुरसवणें खरें म्हज्या मोगाच्यांनो. दोळयांक दिसनासल्लें, कानांक आयकनासल्लें कसलेंय संसारांत आसा म्हण कोणायच्या कानांक वांयगीं बांदचे दीस बोव पाटीं उरल्यात मोगाच्यांन्नो

आमचे युवजण आपापींच जाग्रत जायनांत. तांकां जाय एक किटाळ, एक स्फूर्त, एक चावी-सब्द: कोंकणी! हो आमी तांकां कसो दिव्येत ? तांणी सांगचेपरी सांकेतीक रितीर पुणय कोंकणी म्हळ्ळो सब्द आमकां कितलो पळेंवक मेळता ? गिरण्यो, कारखाने आनीं फॅक्टरी चलवंचे सामाग्रयो भायर काडचे आमचे कोंकणे तांच्या सामाग्रयांक "कोंकणी" नावां दितात ? सांकेतीक तरूय "कोंकणी आय्स क्रिम्स् " "कोंकणी प्लास्टिक बैगस्" "कोंकणी जनरल स्टोर्स" इत्यादी इत्यादी नावां हेणे तेणे झळकाल्लीं तर एक सामूहिक मांत्रिकतेचो प्रभाव चालु जातो कोण्णा.

इराकान कुवेयटाचेर आक्रमण केल्याउपरांत उबजाल्लो घोटाळो सरवांक कळित आसल्लोच . ह्या धोटाळ्यामदेंय सबार फकणां उदेल्यांत आनी त्यापयकि हें फकाण आयका! "इराकाचो जणासंखो सतरा मिलिया" कोणोंगि म्हळें रवंय. "ना" म्हणालो एकलो भातमीदार जो बागदादथावन पाटीं आयल्लो. "इराकाचो जणासंखो वीस मिलिया" "तें कशें जांवचें?" "बोव सुलभ गणित" जाप दिली भातमीदारान "सतरा मिलिया इराकी नागरीक आनी तीन मिलिया सद्दामाच्यो तसविरयो, पिंतुरां आनी इमाजी "हें फकाण व्हय. पुण ह्या फकाणांतली गंभीरता कितली सत म्हळ्ळी कुवेयटथावन इराकांतल्यान आमी पळापळ घेताना कळीत जाली. सद्दामान आपल्या व्यकतित्वाचें वजन आपले परजेचेर आनी प्रजे च्या मानसिकते चे र दें वथल्लें त्या भातमीदारान सांगल्लेपरि हरयेका रसत्यार, गल्ल्यांनी, घुंवडेंनी आनी दोंगराच्या मुळांनी सद्दामाच्यो तसविर्यो राज करताल्यो. ह्या मूखी तसविरेंचो प्रभाव इतलो तर .... मायभाशेचो, मांथभाशेच्या नावाचो प्रभाव "कोंकणी कोंकणी" म्हळ्ळया सब्दाचो प्रभाव खंयचे रितीर आमच्या युवजणांचेर पडजाय?

आमच्या युवजणांक टी-शर्टांचो मोग बारीच. आय् लव डांडिया, आय् लव कॅलीफोर्निया, आय् लव मेडोन्ना असलीं उतरां छापून आसल्लीं टी-शर्टां घालन ते भोंवतात. "आय लव कों कणी "कशीं दिसतीत हीं उतरां टी-शर्टांचेर? ह्या सवालांतली गंभीराय चिंतुन पळेव्यां . टी-शार्टांचेर "आय् लव कोंकणी" टी -शार्टां घालची तरणाटपणाची पिसाय जावयेत. पुण हीच पिसाय कोंकणी म्हळ्ळें किटाळ उबजयता तर? कितल्यो लिपी आसात म्हजे मांयभाशेक? चार? पांच? ह्या सर्व लिपिंनी म्हज्या टी -शर्टांचेर लिखूंक हांव तयार आसां - आय् लव कोंकणी. पावनासल्यार ते फामाद आटवे वळेरीवयल्या सर्व भासांनी हांव लिखूंक तयार आसां-आय् लव कोंकणी. कित्याक मौन आसात तुमी? टी-शरटांची जाग्रती आनी क्रांती हांव उटयना. म्हज्या

उतरांचेर ताळ्यो पेटीनाकात, शिळोण्यो मारीनाकात, पुण उडास दवरा - फकत मांयभाशेवरवीं आमचे संस्कृतेचें अस्थित्व आनी सांगाताच आमचें आस्थित्व आमी जाणा जांवक सकतांव. आनी तें राकोंक सकतांव. ह्या उतरांवरवीं आयचे सांजेर तुमचेथंय कसली जाग्रती पुणय जाल्या तर म्हज्या मोगाच्या युवजणांनो उबे जायात, सामुहीक चलावणेक आयते जायात आनी एका ताळ्यान "आय् लव कोंकणी" आमी मांयभाशेचो, आमी कोंकणी भाशेचो मोग करतांव म्हळ्ळें घोषण ह्या घनेस्त जम्याक पाचारियात.

आनी हें घोषण आमच्या सरकारापर्यांत जरूर पावतलें आनी तवळ आमच्या मछव्यांत तीळन पळेतलो आमचो सरकार . हें दृश्य तुमी नियाळ्न पळेव्येत. बंदराक तेंकल्ल्या नव्याच तारवांत कितें आसा जाव्येत म्हळ्ळो अंदाज करतले तीळन तीळन पळेवचें दृश्य तुमी नियाळात. तडीवयलो विचारतलो "कितें आसा तुमचे कोंकणींत? "हें सवाल येताना मोगाच्यांनो आमी तयार आसतल्यांव -

- पंचवीस लाख लोकांनी उलंवची भास

- हंचेपयकी विद्यासंस्थे, वयवाट, बंडवाळ आनी देशाची आर्थिक स्थिती ऊर्जित करचेखातीर वावुरचे धाराळ कोंकणे.

- करोडांनी सुंक भरचे कोंकणस्थ.

- कोंकणिंच मांयभास जाणासचे राजकीय फुडारी, समाज सेवक, दाकतेर, इंजिनियर, विज्ञानी, शिक्षक शिक्षकीं आनी वैद्यकीय आनी विद्यासंस्थांनी निस्वार्थ सेवा दिंवचीं धार्मिक भावं -भयणीं.

- "सर्व बरें च पु ण साहित्य आनी संस्कृती ..... " परत्यान तडीवयलें सवाल. आतां आमच्या मुखमळार हासो उदेजाय .......

-कोंकणी माद्यमा मुखांतर राष्ट्रीय साहित्याक ग्रेस्त केल्यो धाराळ रुजवाती.

-आमचे लेखक, पत्रिकोद्यमी, कवी, नाटकिस्त, कलाकर आनी कलाविदांच्या नावांची आनी तांच्या अविरत श्रमांची पट्टी, लांब पट्टी.

- आनी संस्कृती ह्या "कोंकणी" तारवाचेर चडोनच हे संस्कृतेची रूच पळेया मानेस्तांनो.

- हेर कांय? तडीवयले विचारुनच रावतले राज्य सरकारान आमच्या मांयभाशेखातीर कितेंय करचेफुडें आमी आमचे जाग्रतीमुखांत्र आनी कोंकणी मोगिंच्या उदार मनान आसा केल्लीं थोजनां सरकारामुखार दवरिल्यार?

येदोळ हावें उल्लेख केल्लीं तीं योजनां हीं जावनास्येत-

- बरयणारांचो एक संघ

- कविंचो संघ

- कलाविदांचो संघ

- नाटकिस्तांचो संघ

- आमचें जानपद दायज आनी संगीत जमंवचो संघ

- आनी ह्या सरवांक आर्थिक पाटिंबो दिंवचो एक ट्रस्ट. राज्यांतल्या संपर्क माद्यमांक रेडियो आनी टि. वी. कसलीं कार्यक्रमां - कोंकणी कार्यक्रमां -जाय तीं दींवक तयार आसचें आमचें कोंकणी दायज

-प्रकटणारांची एक समिती. वरसाक एक पुणय ग्रंथ विंचून राज्य सरकारांतल्या विद्यासमिती सामखार , "ह्या ग्रंथांतलो विषय राज्यांतल्याच न्हय, राष्ट्राच्याच मट्टाक विश्वविद्यानिलयांनी शिकवंक अर्ह जाल्लो "म्हळ्ळी नोंदणी करची, वोत्तड घालचो आनी

सांगाताच देशांतल्या विश्वविद्यानिलयांनी कोंकणी विभाग मेळाशें प्रयतन चलंवचें ।

- कोंकणी वाकसरिचें काम चालू आसा आनी सांगाताच कोंकणी - इंगलीशा डिक्शनरिचें योजन मांडून हाडचें

- कोंकणी थिसोरसाचें योजन

इतलें सर्व कोंकणी मचव्यांत भरन आमी राज्य सरकारासरशीं गेल्यांव तर राज्य सरकाराक तेवशीन पळेंवक साध्य आसचें ना तवळ एके लिपिचो सामान्य लिपिचो येवकार जावन ती आमच्या इस्कोलांनी प्रवेश जावन आमच्या तरन्या धाकट्यांचेर चरचेवरेग-प्रशसत्यो लिपीक न्हय बगर साहित्याक म्हळळें चिंतप राज्य सरकारांत उबजोन आखिल भारतीय साहित्य अकादमीपरयांत पावतलें आनी हे अकादमींत विविध लिपिंनी कोंकणी लिखतल्यांक, जणासंरव्याचेर दशमांश लेखार प्रतिनिधी उबे करचो अवकास मेळतलो म्हण हांव पातयेतां आनी अशें जायत जाल्यार नागरी सोडन हेर लिपिंनी लिखतल्यांचीं सिंतिमेंतां दुखचींनांत, उरबा निंवची ना आनी ते लिखणी भुंय दवरिशेनांत. ह्या सम्मेळनाक फावोतो प्रचार मेळचेखातीर आदल्या म्हयन्यांत मंगळुरांत पत्रिका बातमिदारांची एक गोष्टी चलल्ली. ह्या वेळार एका बातमिदारान सवाल उडयलें - हो सम्मेल यशस्वी जायत म्हण तुमी चिंतात? हेंच सवाल हांव आज तुमचे सामखार दवरतां. हो सम्मेल यशस्वी जायत ? हावें वीस पंचवीस मिनुटांचें भाषण बिगदिल्ल्यान, कोंकणी ग्रंथांचें प्रदर्शन केल्ल्यान, तर्क वितर्कां चलयल्ल्यान, मेमोरँडम नोंदिल्ल्यान, हो या असलोच हेर सम्मेळ यशस्वी जायत? हो सम्मेळ दोन दीसपर्यांत चलचो नाटक न्हय.नाटकाची यशस्वी पयल्याच दृश्यांत कळता. पुण सम्मेळ आखेर जांवच्यांत आपलें मिसांव प्रारंभ करता. हावें सुचयल्ली जाग्रती आतां प्रारंभ जायजाय. सम्मेळ बरयान जालो म्हण आमी म्हणयां पुण यशस्वेचो बिल्लो दिव्यां. आमचे ध्येय धोरणां आनी उद्देश ज्यारी जावन येंवचे दिसोन येताना.

परत्यान मटव्यान ह्या नवे जाग्रते कुशीन हावें नमृतेन आनी म्हज्या ज्ञानपरिधी भितरल्या चिंतपान सुचयल्ले ध्येय मुकार हाडतां

- कों कणस्थां मदें नवी जाग्र ती. लिपयेच्या निबान आमी विवंगड द्वीप जावन रांवचें नाका. हरयेके लिपींक जांवची कोंकणिची उदर्गत एकामेकाक कळीत जायजाय.

- अशें जावंचेखातीर हरयेके लिपिंतल्या लेखकांचो, संपादकांचो आनी दूरदृष्टी आसल्ल्या वाचप्यांचो संघ

. बरयणारांक, कवींक, पत्रिकोध्यमींक, नाटकिस्तांक आर्थिक पाटींबो दिवंचेखातीर एक ट्रस्ट.

- ह्याच मेटांनी मुकार सरून कर्नाटकांत कोंकणी अकादमी आनी देशांतल्या विदेशांतल्या युनिवर्सिटिंनी कोंकणी विभाग आसा करचें योजन.

- कसल्याय राजकीयाक न्हय, कसलोय घुसपड गोंदळ आसा करचेखातीर न्हय बगर कोंकणी भास ग्रेस्त करूंक, कोंकणी भास एक करूंक कोंकणींतलीं तालेतां शिंपडोन आसल्ली ती एक मिर्मिरो सामुहीक व्हाळो जावन आटवे वळेरीपर्यांत व्हाळोन कोंकणीक स्थानँ, मान आनी मान्यता मेळचेखातीर आमकां एक लिपी जाय.

- जशें इसरायेलाक जुदेव पाटीं आयल्यानंतरच जुदेवांची ग्रेस्त संस्कृती एक जाली, तांचे बांदवपण चडलें आनी इसरायेलाचें नांव सगळो संसार मयदिन उचारूंकलागलो तसेंच आमचे मांयभाषेक एक लिपी येताना

आनी ती प्रचलित जाताना विंचून काडल्ले परजेपरी कोंकणस्थ संसारांत परजळुंदीत.

-पुण असलो परजळ येंवचेपर्यांत खंयचेय रितीर येदोळच विविध लिपिंनी फुलोन आसचें कोंकणी साहित्य माजवना जांव, राजकीयांत कलंबेना जांव, आपलो वेग आनी तेज निंवयना जांव.

मोगाच्यांनो, हे सांजेर हावें तुमचे सामकार दवरल्लीं नवे जाग्रतेचीं सुचनां थोड्या मट्टाक पुणय विभिन्न म्हण हांव पातयेतां. हावें कोंकणी मातयेची चरित्रा तुमचे सामखार दवरूंकना. अशें करचेतितलो जाणारी हांव न्हय. म्हालघड्या साहितिंचो उल्लेख हावें केलोना कित्याक तांणी भाशेखातीर केल्लो त्याग आनी समर्पण हांव चिंतुंकुच सकना. ह्या सम्मेळनाच्या अद्यक्ष स्थानारथावन हावें केल्लें प्रयतन इतलेंच - युवजणांथंय कोंकणी भाशेची जाग्रती. ह्या प्रयत्नांत यशस्वी रूता जावंचेखातीर, मोगाच्यांनो आमी आनयेका सम्मेळनापर्यांत राकचें नाका. आतांच आमी प्रारंभ करयां.

आतां हांव उपकार आटयतां आनी शाबास्की पाटयतां हो बृहत सम्मेळ आसा केल्ल्या "कोंकणी भाषा आनी संस्कृती केंद्र कारवार" हाचो आनी ह्या केंद्राक मानाचें सातें धरल्ल्या "आखिल भारतीय कोंकणी परिषदेचो". चारित्रिक सम्मेळ हो, निजायकय कर्नाटकांत कोंकणिचें पाळणें जावनासच्या ह्या सोबीत सुंदर कारवाराक कुपांनी धलयल्लो सम्मेळ हो". हांव उपकार आटयतां आनी मोग पाचारतां कारवारांतल्या सर्व कोंकण्यांक! तुका हांव मान बागायतां हे कारवार शहरा!

आतां हांव उपकार आटयतां ह्या सम्मेळनांत पात्र घेतल्ल्या सरवांचो! प्रतिनिधी न्हय बगर हक्कान तुमी अध्यक्षच जावन आयल्यात. हांगाथावन पाटीं वेताना दोन दिसांचो सम्मेळ संपलो म्हण म्हणात.पुण ह्या सम्मेळनान कांय तरी जाग्रती तुमचेथंय उबजयल्या तर तिका संपयनाकात.

हांव उपकार आटयतां वेदिचेर आसल्ल्या घनेस्त मानेस्तांचो, अनुभवी शिकपिंचो आनी प्रत्येकथरान गादयेर आसल्लया फुडार्यांचो. कोंकणीखातीर तुमच्यान कितें करूंक साध्य तें तुमी जाणांत आनी तें तुमी करतल्यात म्हळ्ळयाक साक्स जावनासा तुमचें हांगासर येणें.

हांव उपकार आटयतां कोंकणी भाषा मंडळ, कर्नाटका हिचो. म्हज्याकि जांणी जणां आनी कोंकणीखातीर चारित्रिक वावर केल्लो आसल्यारय सर्वानुमतान म्हाका ह्या इकराव्या कोंकणी साहित्य सम्मेळनाचो अध्यक्ष ठरायल्ल्या समेस्तांचो उपकार हांव आटयतां.

निमाणे पुण उण्यान न्हय, हांव अभार मांदतां आमच्या युवजणांचो हांगासर आयल्लयाक. तुमच्या मुखमळांवयलीं खुणां आनी प्रकास म्हाका दिसता आनी हांवें उल्लेख केल्ली "जाग्रती" खंडित जातली म्हण पातयेतां. ह्या सम्मेळनाचो ध्येय ज्यारी करुंक आमी तुमचेर होंदोन आसांव. मुकारसयत तुमकां पाटिंबो दींवक आमी सदांच तयार आसांव. आखेर करच्याफुडे एक खासगी सिंतिमेंत तुमचे सामखार दवरतां सप्टें बर सत्तावीस तारकेर एक हजार नोवोद आनी नोवशीं इसवेंत इराकी आक्रमणाक लागोन कुदेय्टथावन फकत जीव घेवन पाटीं आयल्ल्या म्हजेथंय हातेरां नासल्ल्या सौनिकाची असहायकता आसल्ली. कुवेयटांत पाटीं उरल्लें म्हजें बृहत पुस्तक संग्रह, साहितीक वावराचीं पानां फोलयो, विदेशी प्रवासांचे अनुभव आनी कुरू. हें सर्व जरतर घेवन येंवक हांव सकल्लों तर पाटल्या सोळा वरसांनी कोंकणीखातीर करूंक नासल्लें

हांव करतलों म्हळ्ळें योजन म्हजे मतींत आसल्लें. पुण रित्या हातांनी हांव पाटीं आयलों आनी आज तुमचे सामखार उबो जातापर्यांत म्हजेथंय आसल्ली कावजेणी आनी थरथरो अपार.

पुण आतां म्हाका म्हजे बावळे पाटीं मेळ्ळयात. आतां निजायकय हांव म्हजे आवयच्या गोपांत पाटीं आयल्लेपरीं म्हाका भोगता.

कोंकणी आगसाचेर मांडल्ल्या मोडांक आसची रुप्याळी देग आतां वाडोनंच येंवची दिसता . जिणयेंतलो मक्सद दिसोन येताना "अब दिल्ली दूर नहीं " म्हळ्ळीं उतरां म्हजे मतीक येतात.

म्हजे बावळे म्हाका पाटीं मेळ्ळयात

म्हजे लिखणेंत नवें चैतन्य, नवी स्फूर्ती उदेल्या

ही लिखणी जरतली कोंकणीखातीर

जरतली पुण सुकची ना.

आमींच साहित्य, आमींच साहिती. आज आमकां सरवांक बावळे नवे. चडीत बावळे मेळ्ळयात. साध्य आसा तर आतां आमच्या उद्देशांथंय, जाग्रतेथंय आनी आमचे मांयभाशेथंय आमी हात मेळव्यां, एकामेकाचे हात आमी धरयां..... पाशार जांवदी ती सकत, तो मिर्मिरो मांयभाशेच्या मोगाचो. एकामेकाचे हात उबे . आमी उबे जांवयां आनी एका ताळ्यान म्हण्यां -

**जै कोंकणी जै हिंद.**

# आमी हांचे उपकारी आसात

---

कर्नाटक राज्य सरकार
गोवा राज्य सरकार
महाराष्ट्र राज्य सरकार
गोवा कोंकणी अकादमी, पणजी, गोंय
संपादक, सुनापरांत, मडगांव, गोंय
संपादक, उदयवाणी, मणिपाल
श्री उदय भेंब्रे, मडगांव
श्री गुरुनाथ केळेकार, मडगांव, गोंय
नगरपालिका, कारवार
टी. एम्. अे. पै फौंडेशन, मणिपाल
केनरा बँक
कारपोरेशन बँक
श्री मधुसूधन कुशे, मंगळूर
स्टेट बँक ऑफ इंडिया
सिंडिकेट बँक,
श्री एस. डी. गांवकर, कारवार
जिल्हा परिषद, कारवार
एक कोंकणी मोगी, सिद्दर, कारवार
श्री उल्हास नायक, कॉन्ट्रेक्टर, नंदनगद्दा, कारवार
श्री दिलीप नायक, कारवार
प्रो. आर. के. राव, कोचीन
श्री ब्लेशस डिसौजा, बेंगळूर
श्री पी. आर. नायक आणि बंधू, कुमठा
श्री जी. एस्. कामत, कुमठा
श्री पी. डी. गांवकर, बेंगळूर

साईन–व्ही–फाईन जाहिरात संस्था, मुंबय
श्री प्रेमानंद व्ही. रायकर, कारवार
श्री रंगप्पा कामत, हुब्बळी
श्री मुरलीधर हट्टंगडी, मुंबय
श्री शेषगिरी कामत, हुब्बळी
श्री उल्हास डी. नायक, मुंबय
श्री जी. एस्. कामत, कामत रेस्टोरंट, बेंगळूर
श्री एम्. चंद्रकांत राव, बेंगळूर
श्री हरिश्चंद्र अे. गांवकर, मुंबय
श्री रामदास कामत, अवर्सा
श्री एस्. व्ही. पिकळे, मुंबय
श्री अे. पी. नाडकर्णी, दादर मुंबय
श्री रमेश सावंत, मुंबय
श्री एस्. एस्. प्रधान, कारवार
श्री मंजुनाथ माधव शानभाग, मुंबय
श्री देवराय बेंदूर, मुंबय
डॉ. वासुदेव व्ही. कामत, मुंबय
श्री व्ही. व्ही. शेणोंय, बेळगांव
श्री विश्वनाथ व्ही. वेर्णेकर, शहापूर, बेळगांव
श्री बी. बी. राणे, मुंबय
श्री रामकृष्ण वै. पाऊस्कर, बेळगांव
श्री शेणवी, सावकार, चेंडिये, कारवार
श्री रघुनाथ शेट, मंगळूर
श्री पी. एन्. कुवाळेकर, कारवार
प्रकाश बीडीस, मंगळूर
श्री एस्. एन्. बोरकर, बेंगळूर
श्री पी. एम्. तांडेल, कारवार
श्री के. श्रीधर शेणॉय, कोचीन
श्री प्रेमानंद देसाय, मुंबय
श्री सुरेश प्रभु, मुंबय
श्री एस्. ए. किणी, मुंबय
श्रीमती राधिका त्रासी, मुंबय

श्री व्ही. एस्. सक्सेना बिल्ट, कारवार
श्री कमलाकर म्हाळशी, गोंय
श्री चंद्रकांत केणी, गोंय
श्री नागेश करमली, गोंय
श्री के. के. पै. मणिपाल
संपादक, राखणो, मंगळूर
श्री दामोदर प्रभु, मंगळूर
श्री कमलाक्ष आर्. नायक, मुंबय
श्री पॉल मोरास, मंगळूर
श्री यशवंत पालेकर, गोंय
श्री व्ही. एस्. सोंदे, शिरसी
डॉ. एल्. एच्. पै, शिरसी
श्री के. ए. भट्ट, सिद्धापूर
श्री शिवानंद बांदेकर, बंगळूर
श्री रोबिनसन डिसोजा, बेंगळूर
श्री अरूण उभयकर, कुमठा
डॉ. शिवराम कामत, कुमठा
डॉ. विल्यम डिमेलो, कारवार
श्री अभय तेलंग मुंबय
श्री नागेश सोंदे, मुंबय
श्री गिरीश जोशी, मुंबय
श्री व्ही. के. पै. माडगेरी, मुंबय
श्री वाय. सदाशिव, कारवार
श्री जे. आर. कामत, मुंबय
श्री मंजुनाथ प्रभु, मुंबय
श्री जी. व्ही. नाडकर्णी, मुंबय
श्री राजेश नायक, मुंबय
श्री व्ही. व्ही. पै, मुंबय
श्री सुरेश अरगोडू, सरस्वतीप्रभा, हुबळी
श्री ए. डी. जैन, नगरसभा आयुक्त कारवार
श्री प्रदीपसिंग खरोला, जिल्हाधिकारी, कारवार
श्री गुरुचरण, जि. प. कार्यदर्शी, कारवार

श्री पी. एस. राणे, कारवार
श्री शिवानंद मेस्ता, कारवार
डॉ. कुसुमा सोरभ, होनावर
श्री चेतन नायक, धारवाड
कँ. जोसफ फर्नांडिस, कारवार
कॉरी ओपरेटर्स असोशियन्, कारवार
श्रीमती माया गांवकर, उळगा
श्री ए. एफ. गांवकर, उळगा
श्री प्रकाश वेर्णेकर, हळगा
श्री वसंत कुलकर्णी, उळगा
श्री शेखर शेट्टी, कारवार
श्री अनील पवार, कारवार
श्री चंद्रमोहन कामत, कारवार
श्री सुभाश पै, कारवार
श्री एस्. व्ही. नीलावर, कारवार
श्री जी. जे. अंकोलेकर, कारवार
श्री एरिक ओजरिओ आनी सांगाती, मंगळूर
श्री श्रीधर कामत आनी सांगाती, मडगांव
श्री ए. जे. कामत आनी सांगाती, मुंबय
श्री नारायण गांवकार आनी सांगाती, कारवार
श्री सुरेश केरकर आनी सांगाती, मडगांव
हेडमास्तर, विवेकानंद विद्यालय, कोडिबाग
हेडमास्तर, हिन्दु हायस्कूल, कारवार
हेडमिस्ट्रेस, सेंट मायकल कॉनवेंट, कारवार
प्रिन्सीपल, सेंट जोसेफ हायस्कूल, कारवार
आकाशवाणी, धारवाड आनी आकाशवाणी, पणजी
दूरदर्शन, बेंगळूर, आनी दूरदर्शन, पणजी
पत्रकार संघ, कारवार, गोंय आनी मंगळूर

**अध्यक्ष आनी वांगडी,**

येवकार समिती

११ वे अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन, कारवार

# कार्यकारी समिती



प्रो. पी. व्ही. देसाय



सौ आशा पालनकर



श्री पी. जी. नायक



श्री. नारायण पवार



प्रो. लॅन्सलॉट आंद्रादे



श्री. अनंत बसरुर



श्री सॅमसन डिसोजा



श्री. महाबळेश्वर सैल



प्रो. हेमंत कायदे



श्री. प्रकाश पालनकर

## – उक्तावण समारंभ –



उक्तावण समारंभा वेळार उलयता असताना ज्ञानपीठ पुरस्कार प्राप्त विजेता डॉ. शिवराम कारंत.

## – उक्ती बसका –



डाव्याबाजून स्वागताध्यक्षा श्रीमती आशा पालनकर, संमेलनाध्यक्ष श्री एडविन जे. एफ् डिसोजा मुखेल सोयरे, गोंयचे खेळमंत्री श्री संजय बांदेकर, पद्मश्री वामनराय सरदेसाय, अ. भा. कोंकणी परिषदेचे अध्यक्ष डॉ. श्री आर. के. राव आनी कार्याध्यक्ष श्री पुरशोत्तम देसाय.

# ದಿ ಕಾರವಾರ ಅರ್ಬನ್ ಕೋ-ಆಪ್ ಬ್ಯಾಂಕ್ ಲಿಮಿಟೆಡ್, ಕಾರವಾರ (ಉ. ಕ.)

**ರಿಝರ್ವ ಬ್ಯಾಂಕ್ ಲೈಸನ್ಸ ನಂ. ಯು.ಬಿ.ಡ.ಕೆ.ಎ. 698 ಪಿ. 1-12-1986**

**........ಬ್ಯಾಂಕಿನ ಪ್ರಗತಿಯ ಪಕ್ಷಿನೋಟ........**

30-6-1991. ಕ್ಕೆ ಇದ್ದಂತೆ

| | ರೂಪಾಯಿಗಳಲ್ಲಿ |
|---|---|
| ಶೇರು ಬಂಡವಲು | 547666 |
| ಕಾದಿಟ್ಟ ನಿಧಿ | 1205704 |
| ಇತರ ನಿಧಿಗಳು | 1249769 |
| ಒಟ್ಟು ಠೇವುಗಳು | 12929496 |
| ಒಟ್ಟು ಸಾಲಗಳು | 11964230 |
| ನಿಕ್ಕಿ ಲಾಭ [1190-91 ವರ್ಷದ] | 478793 |
| ಸೂಚಿಸಿದ ಡಿವಿಡೆಂಡ್ | ದರ ಶೆ. 15. |

ಬ್ಯಾಂಕು "ಅ" ವರ್ಗದಲ್ಲಿ ಮುನ್ನಡೆದಿದೆ.

**ಬ್ಯಾಂಕಿನ ಸಂಚಾಲಿಕ-ಮಂಡಲ**

1. ಶ್ರೀ. ಎಸ್. ಡಿ. ನಾಯ್ಕ ವ್ಹಾೈಸ್ ಚೇರಮನ್,
2) ಶ್ರೀ ಎ. ಆರ್. ಸ್ವಾರ್
3) ಶ್ರೀ ಎಂ. ಆರ್. ನಾಯ್ಕ
4) ಶ್ರೀ ಆರ್. ಡಿ. ಪೆಡ್ನೇಕರ್
5) ಶ್ರೀ ಕೆ. ಪಿ. ನಾಯ್ಕ
6) ಶ್ರೀ[redacted] ಎಮ್. ವಾಯು. ಪೈ.
7) ಶ್ರೀಮತಿ. ಎನ್. ಪಿ. ಘ್ಯಾದೆ.
8) ಶ್ರೀಮತಿ ಜೆ. ಎ. ಕಡವಾಡಕರ್
9) ಶ್ರೀ ಜೆ. ಎ. ಹೊಳೆಗದ್ದೆ.
10) ಶ್ರೀ ಎಮ್. ಜೆ. ಎ. ಮೋಮಿನ

**ವಿ. ಜೆ. ಪೆಡ್ನೇಕರ್**
**ಸೆಕ್ರೇಟರಿ**

**ಡಿ. ಆರ್. ಸ್ವಾರ್**
**ಚೇರಮನ್**

# A GLIMPSE AT GOA KONKANI AKADEMI

The Government of Goa being aware of the strength and vitality of Konkani established 'GOA KONKANI AKADEMI' with & view to developing Konkani language, litrateure and culture in all their facets and at promoting cultural unity of this state through Konkani language and literature.

Goa Konkani Akademi was established on 24th December, 1984. To carry out its function the following cells have been formed: **1 Linguistics. 2 Lexicography 3. Music 4. Literature, 5. Folklore. 6. Education & Culture**.

The Akademi has far published Konkani orethography Rules, English-Konkani - Hindi Vocabulary, Primary school charts' 'Patterns of Konkani Folklore, Children's song's. It has given aid for publishing 'Mahabharata' in Konkani, Konkani grammar and 20 literary works by budding writers. The Akademi has conducted 50 Balmelas covering over 10, 000 children trained over 300 teachers covering 135 schools, organised 25 workshops, 3 seminar, 3 writers' meets and a few symposia in collaboration with Sahitya Akademi. It has collected documents on various aspects of Goans folklore including twentyseven video-cassetts and a number of audio cassetts over one thousand photographs of Temples, Churches, zatras, and festivalst. I has purchased Konkani books and distributed them to school and libraries, organized cultural programmes in collaboration with other institution, has acquired books and manuscrits from eminent Goans and carried out a scientific linguistics survey of various Konkani diaelcts of Goa. It has been publishing a science magazine 'Novo Sod.

The Akademi proposes to publish a shabdasagar (Encyclopaedic Dictionary), a History of Konkani Literature, Ramayana in Konkani, a full fledged English–Konkani Dictionary, a fully documented work on Konkani Folklore. and a History of Konkani Tiatr. Most of the above works are already in the press and are expected to be shortly released.